आनी धरणेक भार. दनपारां जाय तशें भुसकें पडटा आनी रातीकडेन कामरूक कांबळ आसा. पुरो भागलें जिवाचें. थोड्यो कागाळी येना चलयांच्यो! शाळा कॉलेज सुटपाच्या वगतार बस स्टॉपा कडेन पडून आसता मवाली कसो. मेल्ल्याक कोण दितलो चली मस्णो! चार बुकां शिकलो ना आनी तोंडांत खबरी व्हडल्यो व्हडल्यो. तो खंय ह्या सगळ्या झाडांचे वखदी गूण सोदून काडटलो आनी दोतोरांचें गिरायक हाडटलो ओडून. तांचेर मागीर खोऱ्यांनी पयसो ओडटलो आनी जोड जोड जोडटलो. कोणे हागेल्या आज्या पणज्यान लायल्यां काय कितें हीं झाडां.

हे फाटभुंयेचेर हे कथेचें आदन शिजलां.

फांतोडेर कोंब्याच्या सादार शीतेन धुवेक उठयलें,

'बाय सोनू, उठ मरे शाण्या. शाळेंत या मरे पुता. चल म्हजो राजा तो. तोंड धू आनी च्याव घेवपाक यो. रातीं तुज्या बाबान कांकणां हाडल्यांत. एक कांकण खातलो मरे, चल.'

सोनालीन कूस परतिली आनी हांसत म्हणलें, 'तूं रे रे करता तें म्हाका आवडना गे. हांव तुजें बाय मगे, मागीर म्हाका गो म्हण.'

'बरें बाय. आयच्यान गो म्हणटलीं.'

सोनालीच्या शाणेपणाचें तिका कवतूक दिसलें. आपलेंच चुकलें. 'पाड पडों हें अडाणीपण भल्लां म्हज्या आंगांत. ह्या पोराक बरें शिकोवप आनी व्हडलें करप.' तिणें मनांत म्हणलें आनी ताका उठोवन बसयलें.

'आज म्हाका काणी सांगतली तूं?'

'हय तर. बरी काणी सांगतली.'

'एक आशिल्लो राजा आनी एक आशिल्ली राणी असली काणी नाका. त्यो मागीर काणयोच उरता. खरी खरी गजाल सांग. कांयच घडना तसली काणी म्हाका नाका.'

'एक आशिल्ली राजकुंवरी आनी ती पांयांत घुंगरूं बांदून नाचताली. सांगू?'

'चूक, राजकुंवरी नाचचीच ना. चकचकीत बंगल्यांत रावपी आनी गोड गोड शिरो, लाडू खावपी ती नाचतली खंयची? नाचपाक त्रास पडटात. उडक्यो मारच्यो पडटात. हांव नाचतां तेन्ना म्हाका कितलें पुरो जाता खबर आसा तुका?'

'आगो तुजीच काणी सांगतली आज हांव. तूं नाच शिकतलें. पायांत घुंगरां बांदून नाचतलें. खूब लोक पळयतलो. ते ताळयो मारतले. आनी बाय म्हजें उमेदीन हांस हांस हांसतलें. पूण सांजे. आतां उठ आमी शाळेंत वचुया.'

'राव राव एक मिनीट. आई म्हाका मगे कसली काणी सांग जाणां, एक आशिल्लें सवणें, कुकुलेंच, केन्ना रडटा आनी केन्ना हांसता कळच नाशिल्लें. गायत नाचत चलतालें आनी पांखांटे फुलोवन सपनां पळयतालें, उडपाचीं. वयर वयर उडत त्या दोंगरा वयल्यान पलतडीं वचपाचीं. तसली काणी सांग ' शीतेन सोनालीक घट्ट वेंगेंत घेतलें आनी ताची पापी घेत म्हणलें, 'आनी हें सवणें कुकुलें कोण शांग, म्हजें शोनाली.'

तांची सकाळ ही अशीच उदेताली आनी मागीर पाटी दप्तर घेवन तीं दोगांय शाळेची वाट धरतालीं. अटंग्या रानांतल्यान त्या भुरग्याक एकलें धाडपाक ती भियेताली आनी ताका लागून ती सामकी शाळे मेरेन ताका पावोवन परतून येताली. कोणाल्या दीसवड्याच्या वावराक वच, तर कोणाल्या घरच्या कामाक हात घाल अशें करून तिगांच्या पोटा पाणयाचें सुटटालें. घोवाचो आदार कांय ना. वेल्यान सोऱ्या घोटाचें गिरायक करून तुंबून उरिल्ली उदारी एक दीस तिकाच फारीक करची पडटाली. लोक मानायपण करून जांव पाडेलीपण करून कितेंय जोडी. हाच्यान तेंवूय नजो.

शीतेक हरशीं कुळारचें बरें आशिल्लें. पूण खंयच्या घाळ खिणांक ही सोयरीगत आयली आनी भावांनी फाट फुडो चिंतीनासतना जुळोवन सोडली. 'दिसतालो हरशीं धडधाकट मानाय पूण दळभद्र्याच्यान एक दीस कसलें कश्टाचें काम करपाक जालें ना.' वितरागतकच शीता खेपताली. पूण ताका कांय लागनासलें. हालीं तिणे कितेंच म्हणपाचें सोडिल्लें. सोनालीच्यो अपुरबायो आनी ताका फाटल्यान फुडल्यान राखपाक तिचो दीस सोपतालो.

दनपारां वोताचें किरण खळ्यांत वयल्या सोंपणार पावलें काय तिका शीतीत येताली बारा जावन गेलीं आनी शाळा सुटपाचो वगत जालो. मागीर ती बेगीबेगीन न्हेसणाच्यो मिरयो खोवन वाटेक लागताली चलयेक हाडपाक. थेट शाळे मेरेन पावताली. आनी ताका घेवन येताली. पोर शिकपाक हुशार आसलें. उलोवपाक चुणचुणीत. बाई मास्तराक जाय आशिल्लें. बाई सांगताली तिका, खूब हुशार गे सोनाली तुगेलें आनी अपुरबायेचें. नावा इतल्याच भांगराचें. आनी चलयेची तुस्त आयकून शीतेक लक्तुबाय दिसताली.

तिणे येन्नाच थारावन उडयिल्लें, अंदू तें चवथेक. मातशें उसरांच शाळेंत घालें ताका. दोन वर्सां गेलीं ताचीं. पूण चवथी जायना फुडें भावागेर दवरपाचें. नाच आवडटा पोराक. ताका नाचाच्या वर्गाक घालून शिकोवपाक लायतलीं मामाक तागेल्या. ती ताचीं वर्सां मेजताली. धावें सोपून इकरावें लागतलें. तें जे तरेन शिटूकसाणेन वागता तें पळयल्यार ताका इकरा वा बारा वर्सांचेर न्हाण येवपाक

जाय. तोंमेरेन मातशें ताचेर लक्ष दवरप गरजेचें.
हालीं ती ह्याच चिंतनानी आसताली. चार पावलां कडेन घर मीरेचें. अदीं मदीं तीं दोगांय मेळटालीं तेन्ना असल्योच गजाली जाताल्यो. तिकाय एकलेंच चली. निरूपा. पूण तें अंदू मेट्रीकेक. सोनाली परस व्हडलें. ताकाय ती हांगां दवरपाक सोदिना. फुडें शिकपाक भयणिगेर दवरतली खंय. चलयेच्यो चिंता आनी हुस्के चड. दोगीय तेच विवंचनेंत आसताल्यो.
शाळेंत सरस्वती पुजनाच्या निमतान भुरग्यांची मनरीजवणेची कार्यावळ आसली. तातूंत सामको आकर्शून घेवपाचो प्रकार जालो तो सोनालीचो नाच. सगळ्यांनी बोवाळ घालून ताका परत करपाक आग्रो केलो आनी परतूय तशेंच जालें. सगळ्यांनी ताची तोखणाय केली. कोणे कोणे बक्षीस म्हण पयशे लेगीत दिले. शीतेचे दोळे भरून आयले. तिका अंतस्करणांतल्यान दिसलें, 'आमचे सारक्या दळीद्री नारायणाच्या घरांत जल्माक आयल्या ती म्हजी धूव कोणा गिरेस्त कुबेरागेर जल्मल्ली जाल्यार ताची आवड मळबाक गवसणी घालपाची. नशीब आमचें!'
आवयच्या दोळ्यांत दुकां पळोवन सोनालीकय रडूंक आयलें, 'आई हावें इतलो बरो नाच केलो आनी तूं रडटा कित्याक?'
'ना गो बाय. तुवें नाचाचें बरें शिकप घेवचें अशें म्हाका दिसता. पूण आमच्यांनी खंय जाता, म्हणून वायट दिसता.'
'ओगी राव तूं. म्हाका कित्याक जाय शिकपाक नाच? हांव हांगाच रावतलें. हांगा कसलें शिकपाक मेळटा तें शिकतलें. तुका सोडून खंयच वचचें ना.'
तरी शीता तजवीज करीत आसली, चवथी जातकूच ताका धाडटलींच.
मार्चांत शाळेच्यो परीक्षा उलगल्यो तशी शीता पुरूमेताच्या वावराक लागली. भिण्णां फोड, सोलां कर, तीं सुकय, मिरसांगो सुकोवन दवर असलो वावर करतना सोनाली आपले तरेन तिका मजत करतालें.
शाळेक सुटी पडिल्ली आनी ताका लागून शाळा बंद आशिल्ली. शाळे भायर खळांत कितेंय सुकत घाल्यार रोकडें सुकून येता म्हण शीता माथ्यार पोटल्यो घेवन सकाळींच येताली आनी दनपार जातकूच घेवन वताली. सोनाली आसतालें वांगडा. तें थंय नाचतालें, खेळटालें. दोळ्यां हुजरां आसलें काय तिकाय हुस्को नासलो. घरा एकल्याक दवरप म्हणल्यार लक्ष थंय उरपाचें.
आनी एक दीस शीतेक मामलेदारा कडेन वचपाचें काम आसलें. बारा वरांचेर आपयिल्ली. तिणे जेवण रांदून दवरलें आनी सोनालीक सांगलें, 'बाय हांव रोकडी येतलीं. पूण उशीर जाल्यार तूं जेवन घे, बाबा जेवतलो आपूण. आनी

हांगाच लागीं राव. नाजाल्यार मीरा मावशेगेर चल. कळ्ळें मरे शाण्या?'
आनी ती गेली.

सरकारी काम. ती थंय पावता म्हणसर मामलेदार गेलो जेवपाक. आतां इतली पयसुल्ल्यान आयल्यां, परती वचप म्हणल्यार परतून फाल्यां येवचें पडलें. अदीक बरें तो येसर राविल्ली आनी ती थंय कदेलीर बसली.

एक जालें, दोन जालीं, तीन जालीं तरी हाचो पत्तो ना. वाजेली ती आनी एके वटेन चलयेचो हुस्को. ह्या पोराचेर कोणें घालून बी घेतलें जाल्यार देवा सायबिणी. कोणाक उलो मारपाचो हांवें. तिणे दोनूय पोल्यांचेर आपणाक थापटावन घेतलें आनी तो विचार येतां खिणाक ती अस्वस्थ जाली. थंय आनी रावपाक तिचें मन तिका थारो दिना जालें. ती तशीच वचपाक उठली आनी इतल्यान मामलेदार भितर सरलो. तिका मातशें सू जालें. काम जातलें म्हणून. मामलेदारान काम केलें पूण वरां पाच जावन गेल्लीं आनी आतां घरा पावतासर काळोख जातलो. म्हज्या पोराचो कोणे घात घेना जाल्यार पुरो. बाणांतल्यान सुटिल्ल्या तिरा वरी ती धांवट सुटली. अर्दवराची वाट तिणे पंदरा मिनटांत सोपयली.

घराचें सोपण चडून पडवेर पावली जाल्यार दार धापिल्लें आसा. बाय, ए बाय. भितरल्यान आवाज ना. दार नेटान धुकललें जाल्यार दार उगडलें पूण घरांत कोण ना. घोवाची तर तिका खात्रीच नाशिल्ली. तो बारांत पिवपाक पडला आसतलो. शीता भियेली. कोणाक उलो मारूं आनी खंय सोदूं ह्या पोराक. आतां दिसता तरी कितें. काळोख पडपाक आयला. ती पयलीं मीरेगेर गेली. थंय ना तें पळयलें आनी काचाबूल जावन ती सैरभैर जावन पावलां उखलीत मार्गाक लागली.

बरोच वेळ तिणें सादयलें आनी मागीर ती रावली ना. तिका दुबाव आयलो, तें शाळे कडेन गेलां आसूंक जाय. थंय तें नाच करतालें सद्दां शाळेचे पडवेर. ताका संवंय जाल्ली ती. ते संवयेन तें शेर्त गेलां आसतलें. ती तुरतुरीत शाळे कडेन पावली आनी सोपणां चडून पडवेर पावली. सोनाली थंयच जमनीर पडिल्लें आशिल्लें. तिणे कान लायले ताच्या हड्ड्या कडेन. तें सोशेंतालें. ताका न्हीद लागिल्ली. मातूय दुबाव येना आसतना तिका दिसलें नाच करतां करतां पुरो जालां ताका आनी थंयच न्हिदलां आसतलें. तिणें ताका हालोवन जागयलें आनी बोटाक धरून तिणें ताका तुरतुरीत चलत घरा हाडलें.

तें आजूनय झेमतालें. भाणांतल्या खतखतीत उदकान तिणें ताका न्हाणयलें आनी न्हाणयतना एक एक प्रश्न ती ताका खोदून खोदून विचारपाक लागली. तें बाबडें

सादेपणान सांगीत रावलें. पडवेर भोंवाडे घेवन नाचतां नाचतां फाटल्यांनच्यान एक दादलो आयलो आनी उबारून ताणें ताका थंयच पडवेर आड घालें आनी ताच्या सगळ्या आंगाचेर कातकुतल्यो करीत निमाणे कितें केलें तें ताका सांगपाक जालें ना. फकत आपल्याक दुखता इतलेंच ताणें म्हणलें आनी उलयतां उलयतांच घोरेवपाक लागलें.

उशाचें पोंत तोंडांत घालून शीतेन येताली ती किळांच थंयचे थंयच दामून उडयली. कितें घडलां आसतलें हाचो अदमास न्ही तर सामकें खरेपण पटलें. सोनालीचेर कोणा दादल्यान बलात्कार केल्लो. धा वर्सांचें कंवळें पोर आनी हो दादलो कितल्या वर्सांचो आसतलो काय? बाबड्याक आजून न्हाणय येवंक ना. बायलेच्या रुपाचो आकार येवचे पयलींच कोणा जनावरान म्हज्या पोराक पिसडून उडयलें. चार पावलां कडेन आशिल्लो तो दोंगर आख्ख्याचो आख्खो कोंसळूं आनी आमचेर पडून आमी ना नपयत जावन वचूं हें त्या खिणाक शीतेक दिसलें.

रातभर तळमळ्यांनी तिका न्हीद पडली ना. चलयेंचें आंग रातभर ती पोशेत रावली. कोणे पळोवं ना जाल्यार पुरो. भायर फां फूं जालें जाल्यार तोंड उरचें ना गावांत रावपाक. भरवंशाची आसा ती एकलीच मीरा. पूण नाका गे बाये. कोणाचेर पातयेवं नज. लोक खंय कितें उलयतात असल्यो गजाली? पोटांतूच दवरिल्ली बरी. ह्या म्हज्या पोराक लेगीत कांय सांगप ना. ताका कांय कळूंकच ना बावड्याक. पूण ताचो फुडार पेड्ड्यार जालो. ताका आनी आतां कशी पातयेतलीं हांव? शाळेंत आनी धाडपाचें उरलां? तें एक फावट संवकल्लें जनावर ताची फाट सोडपाचें ना. भायलो कोण आसचो ना. हांगाचोच आसतलो तो. ह्या गावांत कोणा अनवळख्याक सहसा येवपाची कापस्ताद ना.

शीतेक उगडास जालो, मीरेल्या निरूपाक एक फावट अशेंच घडिल्लें. पूण तिणें तोंडांतल्यान ब्र काडलां तर? कोण तो लेगीत खबर आसलें तिका आनी मागीर गांवारय जालें. तेन्ना तें मेट्रीकेक. खास वर्ग आसा म्हण शाळेंत राविल्लें सांजवेळा. ह्या मेल्ल्यान ताका धुकलून झिलीनी पावयलें आनी भोगलें ताका. तरी बरें दीस गेले ना. तशें जाल्लें जाल्यार मात ते रूक्मीणीगेर ही गजाल पावपाची आनी मागीर पेटपाचे खोजने. करपी कारस्थानां तिगेलोच पूत, संतोश. पूण कोण उलयता? म्हाका लागना, तुका लागना.

चिंततां चिंततां शीतेक न्हीद लागली आनी चलयेक घट्ट वेंगेंत धरून ती न्हिदली.

फांतोडेर कोंबो रडलो, वोताचीं किरणां भितर सरलीं तरी शीतेक जाग आयली

ना. ल्हव पावलांनी मीरा भितर सरली आनी तिणें तिका जागयली.
'शीते, ए शीते उठ मगे,
'आगे म्हजे बाये येदो वगत जालो? न्हिदून पडली मगे हांव.' न्हेसण सारकें करीत आनी केंसांचो चोमडो करून आंबाडो घालीत ती उठली.
'तुजी जाग ना म्हण चवकशेक आयलीं हांव. खंय आशिल्लें सोनाली? हुस्को जालो म्हाका. रातींच येवपाची हांव. तूं परतून चवकशेक आयली ना म्हण दिसलें आयलां आसतलें.'
सांगचीना म्हण थारावनय शीतेक थार धरपाक जालो ना. सोनाली आजून उठूंक नासलें. ताका खंय कसली दूख जाली कोण जाणा. आड्डुलां आसतलें पोर बरेंच पूण शाळेचो जागोच असो, थंय कोणाची जाग नासता सांजवेळा. कीण्ण पडिल्लें आसात.
मीरेक घेवन शीता भायर आयली. शीतेक हुंडको दामूंक जालो ना. मीरेक घट्ट वेंग मारून ती रडपाक लागली आनी रडटां रडटां तिणे तिका सगळें सांगून उडयलें. मीरेक आपले धुवेचो उगडास आयलो आनी तिच्या रडपांत तिचींय दुकां भरसलीं.
'तो हराम दुसरो कोणूच न्हय शीते. संतोशूच तो. म्हज्या निरूपाकूय ताणेच किरमिलां आनी पिसुडलां. तरी तें मातशें व्हड आशिल्लें पुते सोनाली परस. कळटालें थोडें भोव. हावें आनी जाग केली ना. कोणाक सांगतलीं? आमचें गरीबांचें कोण आयकता? घोवांले हे पोटले आमीच सांबाळपाचे. मेल्ल्यांक ना अक्कल. तांच्यो तरी नदरो धडांच्यो. आसूं आतां फुडें कितें करूया?'
'शू, ओगी राव. तोंड धापपाचें. बोवाळ नाका. हांव आनी शाळेंत धाडीना ताका. धावें वरस. आनीक एका दोन वर्सान न्हाण येतलें. म्हजे भयणीक सांगून पळयतां एक न्हवरो दाखय म्हणून आनी लगीन करून सोडटां. आनी दुसरो कांय उपाय ना.'
'इतली कित्याक वितरागता? जांगेर चेडवां आसात तांकां ह्यो ख्यास्ती जाल्यातच.' मीरा तिका समजायताली
'तशें न्हू. गरीबांलें रोकडें वाऱ्यार शिंपडटा. गिरेस्तांले सगळे थापे धापून उरतात.' शीता फणफणली
'आनी तातूंत आमचे सारकेल्या सकयले जातींक कोण तारक ना.'
'सारकें उलयली तूं. आमचेच लोक पयलीं लागतले बोबो मारूंक भश्टल्लें चेडू म्हण शीतेलें. खंय धावूं हांव मागीर? ह्या बेबद्या घोवाक कांय पडिल्लें ना तें तूं पळयताच.'

'तुजो घोव आनी म्हजो घोव, सगळे सारखेच. आपली धूव म्हण धंगण लेगीत उरपाचें ना बेबद्यांक ह्या.'
शीतेक दिशिल्लें आपले चलयेन आयकूं ना म्हण. पूण एक्कान एक उतर ताच्या कानार पडिल्लें आनी तें शादूर जाल्लें. ताका जाणवलें आपली चूक जाली. आवयन सांगिल्लें आपूण येसर खंय वचूं नाका म्हण. पूण तिगेलें आयकनासतना शाळे कडेन गेलें आनी त्या कोणा दादल्यान आपणाक फाटसून धरलें घट्ट. कोण तो लेगीत पळोवपाक पावलें ना. सोनालीक आपणे चूक केली हाचो शिटीमेंत जालो.
तें ल्हवू उठून मागीलदारांत गेलें. सदचे भशेन एका फातरार बसून रावलें. हरशीं तें नाचतालें, खिदळटालें पूण आज ताका अजिबात मूड नासलो. ताका रडनय दिसनाशिल्लें. हांसपाचें तर तें विसरूनच गेल्लें. आयज ताणें थारावन उडयलें ह्यान फुडें आई जें सांगता तेंच करपाचें. आयच्यान नाच बंद. हांसप, कीटकीटप बंद. कोणा दादल्याक वयर तोंड करून पळोवन ना. अनवळख्याच्या म्हऱ्यान लेगीत वचप ना. आनी त्यो काणयो लेगीत नाकात. सवण्याची तर निखालस नाका. म्हाका सवणें जावपाचें ना. पांखाटे फुलोवन वयर उडपाचें ना. हांव रावतलें अशेंच जमनिचेर. म्हाका राजकुंवरी जावपाचें ना. म्हजें नाव सोनाली आसा तितलेंच पुरो. भांगर कशें आसता तें लेगीत हावें पळयिल्लें ना. चल उड रे कावळ्या. सोनालीन एक धाकलो फातर हातांत घेतलो आनी ताचे वटेन मोखलो. कावळो काव काव करून नाच जालो. तें सामकेंच निरशेल्लें. हरशीं तें कावळ्यां वांगडा खेळटालें आनी आज ताका कोणूच सोसना जालो. माजर म्याव म्याव करून म्हऱ्यान येवन ताका घश्टूंक लागलें जाल्यार ताणें ताका शेंवटिलें. मेळटा ताचेर राग काडून तें तिडकतालें.
मान सकयल घालून तें घरांत आयलें. मीरा गेल्ली. आवयन च्या दिली ती तोंड धापून तें पिलें. उणो दवरिल्लो तो मोन्यानी खाल्लो आनी पडवेर येवन वगी बसलें. ताच्या वागपांतलो हो बदल आवयन पारखिलो. पूण तिचो आपल्या व्हांवत्या दोळ्यांतल्या दुकांचो पाझर आजून बंद जावूं नाशिल्लो. दीस मोन्यानी गेलो.
आनी मागीर तांचें हें मोनेपण सगळ्यांकूच संवकळीचें जावन पडलें.
आवय आनी धूव सकाळीं कोंब्या सादार उठटालीं आनी दोगांय वांगडाच कामाक वतालीं आनी दनपारां वांगडाच परततालीं.
सोनाली आवयच्या कामांत हातभार लायतालें. शिकपा वयली ताची वांसाच गेल्ली. आपणें खूब शिकचेंबी ताका आतां मातूय दिसनासलें. नाच करपाची

उमेदूय ना जाल्ली. आयदनां घासताना गोबरान भरिल्ले म्हेळे हातूच तें तोखेत बसतालें. ताटांत कितें पडटा तें खातालें. खळांतलें तोर वा खारो बांगडो हाचे भायर ताका कसलीच रूच उरूंक नाशिल्ली.

वर्सां गेलीं. सोनाली आतां ल्हान पोर उरलें ना. सतरावें सोपून अठरावें वरस लागलें तशी आवय एक दीस उठून भयणिगेर गेली. सोनालीक घेतलें बांगडा. सोमतेंच धारावन आयिल्लीं बरी. नाजाल्यार दवरलें ताका एक दोन दीस थंय.

'बाय या मगो आमी मावशेगेर'

'हय हांव भायर सरलें.'

तितल्याक तितलीच जाप आसताली ताची. वयर आनीक कांय उलोवप ना. सामानाच्यो दोन पोतयो हातांत घेतल्यो आनी दोगीय वाटेक लागल्यो.

आठ दिसां भितर सोयरीक जुळ्ळी. शीतेले भयणीक ती पार्त बरी आशिल्ली. रायभारीच आशिल्ली म्हणल्यार जाता. अशो खूब सोयरिको जुळयिल्ल्यो तिणे. सोनालीची सोयरीक जुळ्ळी तीस वर्सांच्या दादल्या कडेन. लग्न जाल्लो आनी ताचीं आदली बायल मेल्ली. आदले बायलेक भुरगें नासलें. शीतेन हां म्हणलें आनी लग्न करून सोडलें. सोनालीक कोणे विचारलें ना आनी ताणेंय कांय जाप काडली ना. आवय सांगता तशें तें त्या दादल्या फाटल्यान लागलें चलपाक. खूब दिसांनी शीतेक कळ्ळें, भुरगें जायना म्हण बायलेन आपणेच वीख घेवन जीव सोंपयलो म्हण, आपले धुवेचो तिका हुस्को जालो. रोकडोच गर्भ धरल्यार पुरो, तिणें मागलें.

पूण सोनालीक चड वाट पळोवची पडली ना. ताका एका वर्सा भितरच गर्भ धरलो आनी तिका सू जालें. घोवागेर तशें कांय फाल्त नाशिल्लें सोनालीक. तो एके कंपनींत प्यून म्हण कामाक आशिल्लो आनी घरांत मनशां कोण नाशिल्लीं. सोनालीक बरो करतालो.

फकत सवणे जावन उडपाची धुवेची भास मात आतां केन्नाच आयकूंक मेळची नासली. शीतेक दिसतालें, 'हांव तरी आनीक कितें करपाक शकतालीं?' ह्या गावांत रावपाचें आसा जाल्यार गांवांतलीं धा मनशां सांगता तशेंच रावपाचें. धा जाणांचें उतर मान्य. सुबेज उलोवपाचें ना. उलयलोच जाल्यार ताच्या बोचकुलाक धरून ताका भरभरीत ओडीत हाडून तोंडांनी वदपाक लावून ताचेर चार खोंटो घालपा इतली ताकद धा जाणांच्या उतरांनी आसा, असले देखाव तिणें जायते खेपेक ह्या गावांत पळयल्यात. बायलेन तर एक उतर तांकां लाग सारकें उलोवपाक जायना. तिच्या केश्टयांक धरलेंच म्हण समजुपाचें. देखून शीता आनी तिचे सारक्यो बायलो ह्या लोकांक भियेवन दीस काडटाल्यो.

सोनालीक लग्न केलें, तागेर भुरगें जालें आनी तिचे तकले वयलो एक व्हडलो भार उणो जालो. सोनालीनय गावांक फाट केल्ली म्हणल्यार जाता. ज्या गावांत आपणाचेर आगळीक जाल्या, अत्याचार जाला आनी ताका लागून आपल्या आयुश्याची बरबादी जाली त्या गांवाचें तोंड लेगीत पळोवंचें ना हो ताणे निश्चेव केल्लो. पूण हाचो बदलो मात घेतले बगर रावची ना होवूय सोपूत ताणें घेतिल्लो. तागेर जालो चलो. दादल्यांचो ताका तिटकारो येतालो पूण घोवा कडेन ताणे तशें जुळोवन घेतिल्लें. आवयक त्रास नाकात आनी आपलें प्रकरण उकरून येवपाक नाका हे भिरांतीन ताणें वगी रावपच पसंत केलें.
चल्याक नाव दवरलें विक्रम आनी ताच्या तोंडांत साखरेचो कण घालून म्हणलें, 'तुजें नाव विक्रम. हावें थेयलां मुद्दाम. व्हडलो जा आनी ज्या मनशान म्हजी अशी गत केल्या ताची गची आंवूळ आनी तकली व्हरून सर्मण गांवच्या तिठ्यार हुमकळाय आनी सगल्या गांवकाऱ्यांक आड्डून सांग, जो कोण चलयांचेर आगळीक करता आनी बायलांचेर अत्याचार करता जाल्यार खबरदार. सोनालीच्या पोटांत जल्माक आयिल्लो हो विक्रम तुमकां सोडचो ना.'
खूब तेंपान सोनाली किंवाट्यान उलयलें आनी मागीर ताणे ताका अपुरबायेन दुदाक धरलो 'म्हज्या दुदांतल्यान हे सगळे जाळ तुज्या पोटांत वचूं' आनी मागीर तें शांत जालें.
ह्या गावांत आत्र्या पयऱ्यान असल्यो घडणुको घडत रावल्यो. मदीं सामकें थंड जातालें आनी म्हणटासर मदींच एखादी घडणूक वाऱ्या भशेन पातळटाली. सकाळीं तिठ्यार थोडी कुजबूज जाताली आनी मागीर भिरांतिचें कातडें पांगरून सगळे चिडीचूप जातालें. आवयांक मात एक धाक उरतालो, आपले चलयेक सांबाळपाचो. शाळा सुटली काय भुरग्यांक थेट घरा घेवन येताल्यो.
आतां मातशें सगळें सुदारतालें. घरा घरानी संडास आनी बाथरूम जाल्ले. बाई मास्तरांचेर दडपण आयिल्लें. पूण हो विकृत मनीस दिसा ढवळ्या उकतेपणी भोवतालो. कोण ताका रोमीयो म्हणटालो, कोण बायजण म्हणटालो. ताचे आवयक रुक्मीणीक शिटकावन धपकावन जाल्लें. पूण ती तरी कितें करतली? कितलें सांगून पळयलें. आनी एक दीस तिचेच गोमटेक घांस मारपाक आयलो. लोकांकूय तिचे कडेन वायटपण नाका आशिल्लें. गावांत गांवठी वखदां दिवपी तीच आसली आनी लोक सटर फटर दुयेंसाक लागून तिचे कडेन धांवतालें. आनी म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार ह्या गावांक तेकून पुलीस स्टेशन नाशिल्लें. सट करून पोलीसांक फोन करून आपोवपाक लागसराक खंय पुलीसय नात.
आनीक बऱ्याच तेपान आतांच घडिल्ली ही नवी करकरीत गजाल. शाळेंत

शिकयतल्या मास्तरालें चली. आठ वर्सांचें. रातीं शेतांत सांपडलें. तें शेतांत कशें पावलें कोणाक खबर ना. तिनसांजची गजाल. शीगम्याचे दीस. गावांत शिगम्याचे मेळ. पसऱ्यार म्हण धाडिल्लें आवयन तेल हाडपाक. तें पसऱ्यार पावचे पयलींच घडिल्ली गजाल. पसरो हरशीं सामको लागीं, चार पावलां कडेन. ताका जाणवलें आपल्या फाटल्यान कोणतरी चलत येता. तें धांवलें, होवूय नेटान ताची फाट धरपाक धांवलो आनी चलयेन भियेवन शेतांत उडकी मारली. हाणे ताचेर झोपय घाली. तें व्हडल्यान किळांचलें, पूण हाणें ताका घट्ट आंवुळ्ळें. घुस्मटून ताचो स्वास मंद जावपाक लागलो. ते बराबर हो भिलो आनी ताका थंयच सांडून तो धांव मारून घरा पावलो आनी आपणाची तकली फोडटा अशें आवयक सांगून कामरूण घेवन गुटली करून न्हिदलो. मास्तर आनी बायल दिवो घेवन ताणी सगळो वांठार पालथो घालो. झिलीनी झोपांनी सगळ्याक सोदलें आनी निमाणे शेताचे मेरे वयल्यान सादयत वतना तांकां सुस्कार सोडटा ताचो आवाज आयलो. तें भियेल्ले अवतिकायेंत पडिल्लें. आवयन ताका घट्ट वेंगेंत घेतलें. तीं ताका घेवन घरा आयलीं. तें सावचित जालें. तो ताका कांयच करपाक पावलो ना. कित्याक तर, वयल्यान शिगम्याचो मेळ येतालो आनी त्या आवाजान ताणे ताका थंयच उडोवन फुऽऽऽज्यो काडल्यो.

सकाळीं तिठ्यार ही गजाल ब्रेकींग न्यूज जावन च्याचे बरोबर सगळ्यांनी गिळ्ळी. जालें. थोडीशी तरतरी आयली आनी मोटव्या कालसांवाच्या बोल्सांत हात घालून हि हि हि करून सगळे फापसले. आपल्या गावांत चलयांचेर आगळीक जाता. कोण करता ताका जाब विचारूया हाची चिंता ह्या दादल्यांक पडून गेल्ली ना.

सकाळच्यान गावांत येरादारी चालू, मोटरसायकली, गाडयो येतात वतात. पुलीसांची जीपय भोंवता.

रूक्मीणीक खबर कळ्ळी. तिका खात्री जाली हें कर्म करपी संतोश सोडून दुसरो कोणूच आसचो ना. 'राव ह्या म्हज्या पोटांत जल्मल्ल्या नरकासूराक हांवूच काबार करतलीं. असलो दळभद्रो अवचिन्नाळ्ळो पोर एक खिणभर लेगीत हे भुंयेर रावपाक फावना. ताका ख्यास्त हांवूच दितलीं. म्हाका आसा अधिकार ताका ख्यास्त दिवपाचो. अशी ख्यास्त दितलीं, हो उठपाक पावचो ना हाथरूणा वयलो. मरण केन्ना येता ताची वाट पळयत तळमळटलो. इतल्या लोकांच्या दुयेंसांचेर पारपी वखदांचीं झाडां म्हज्या ह्या रानांत आसात जाल्यार ह्या नावाडग्याक फोंडांत धुकलपाचें वखद म्हजे कडेन कशें आसचें ना? पोराक

काब्बार करतलीं हांव. पळोवशी तूं. संतोश नांव दवरिल्लें तुका. तूं जालो विकृतिचो म्हाराकेस. तुवें घरा घरांतलो संतोस इबाडलो.'
तिचेर खेव आयिल्लो. पांय आपटीत ती ताचे म्हऱ्यांत गेली. मुठींतलो मिरसांगेचो पिठो तिणे ताच्या दोनूय दोळ्यांत भरलो आनी खोमसाक धरून भरभरीत मागीलदारांत व्हरून निवलकाणीचीं झाडां वडिल्लीं तांचेर व्हरून धुकलून उडयलो. पड त्या कांट्यांचे भकीक. आरे ह्या निवलकाणयेन कितल्या लोकांचे घावे बरे केले रे हावें आनी तुवें कितल्या आवयांचीं काळजां रगतबंबाळ केलीं. ना. तुज्या अपराधांक माफी ना.
तो व्हडाव्हडान बोबो मारतालो. पूण तिचें काळीज मातूय कळवळूंक ना. ताच्यान उठपाकूच जायना अशे कांटे आंगाक तोपताले. सभोंवतालीं आनीकय तरातराच्या केक्टसाचीं झाडां आशिल्लीं. सगळ्यांकूच कांटे.
ती भायर आयली. भायर घे म्हणून लोकांचो चोमो. गांवांतले तशेंच सगळ्या थरांतल्यान लोक आयिल्ले. पुलीस हातांत बेडयो घेवन हजर. रूक्मीणीन दोनय हात फुडें केले आनी म्हणलें,
ताचे अपराध खरे थारावपाक पुरावे लागतले. म्हजो अपराध तुमकां दिसता. घालात म्हाका बेडयो. तो वांचलो जाल्यार ताका वखद विरसद करचें पडटलें. ताका तळमळून तळमळून मारपाक जाय. तशें सहजा सहजीं मरण येवन उपकारना. हाल हाल जावपाक जाय ताचे. निवलकाणयांच्या झाडांचेर ताका मोखला हावें. कांटे ताच्या आंगांत घुसतले. आंग सुजतलें ताचें. तसोच ताका उबारात आनी रानात उडयात. कोल्या सुण्यांनी खावूं दि ताका. ताच्या रगताचो एक थेंबो लेगीत ह्या गावांत शिंपडचो ना ती वेवस्था करात. हांगाच्या चलयांक आनी बायलांक सुखा समादानान रावूं दी
बायल पुलीसेन तिचे हात धरिल्ले. ती तुरतुरीत चलपाक लागली. तिचे फाटल्यान चलताली ॲड. निरूपा, मीरेलें चली. फाटल्यान आशिल्लें सोनाली, आपल्या ल्हान भुरग्याक हांडीर धरून, मास्तर आशिल्लो चलयेक घेवन. कितलेशेच फोटोग्राफर फोटो घेत आशिल्ले.
निरूपान म्हणलें, कोणाक जावचें ना असलें धाडस तुवें केलां रूक्मीणी मावशे. ही केस हांव लडयतलीं. सगळे गुन्याव शाबीत जाले बगर ताका मरपाक मेळचें ना. तेच खातीर हावें आदवोगादाची पदवी घेतल्या.
मायक ना लावस्पीकर ना पूण निरूपा झाडाच्या एका खोडार उबी रावली आनी सगळ्या लोकांक लेखून ती उलोवपाक लागली. सगळ्याक पीन ड्रोप शांतताय. जनावराच्या स्वासाचो हुंकार आयकूंक येत इतली थंडसाण पातळिल्ली.

आयकात म्हज्या भयणिनो आनी भावांनो, अस्तुरेच्या जल्मासावन ही काणी सुरू जाता. ती अशीच स्टिरिओटायप चलत आयल्या. कंवचेचीं कांकणा फुटल्यार तीं दसोवपाक मेळना तशें अस्तुरेचें चारीत्र्य, देखून तें जपचें पडटा ह्या प्रभावान चलयो वाडपाक लागल्यो. आतां कंवचेचीं कांकणां गेलीं आनी ती उपमाय गेली. अस्तुरी सशक्त जाली, प्रतिकार करपाचें बळ तिका आयलें. पूण सान माणकुल्या चलयांचें कितें? ही काणी तशीच फुडें वचत आसा. तिका अंत ना अशेंच म्हणपाचें?

लोकांचे गर्दैतल्यान कितलेशेच आवाज पडसादीत जायत रावले. ना ना ना. आमी ती काणी हांगा सोंपयतले. त्या नराधमाक आमी काबार करतले. हो गांव आमी पुनरजिवीत करतले...



# श्वेता-सिंधू

गॅसार बोगुण्यांत कसाय शिजतालो. वयर धापिल्ल्या धाकण्याचो खळखळ आनी वयर सकयल ताचें हालप धोलप बारीकसाणेन नियाळटाना खिणभर गणेश आपल्यो विवंचना विसरलो. तबल्याचे थेके आनी नाचाचे ताल. ताका मजा दिसली. हातांत आशिल्लो दवलो तो ओटत्यार तबल्यार मारिल्ल्या भशेन टक टक करून मारपाक लागलो. संगीताची खूब आवड आसली ताका. केदे उमेदीन श्वेताक संगीत शिकपाच्या क्लासाक घाल्लें. पूण ताकाच तातूंत गोडी नाशिल्ली. 'कितेंय आसूं, पूण नाच मात फोर्त करतालें पोर म्हजें.' ताची याद जावन ताचे दोळे भरून आयले.

काल फार्मासींत वचून ताणे कसायाची पुडी हाडिल्ली. गॅसा म्हऱ्यांत उभो रावन कसाय शिजोवपाची ही पाळी ताचेर पयलेच खेप आयिल्ली. नाजाल्यार असलीं कामां ताची बायल करताली. ताच्या हातांत आयतें कोप येतालें कसायाचें. ती पुडी खंयच्यान हाडटाली तें लेगीत ताका खबर नाशिल्लें.

कसायाच्या सामानांत कितें आसता तेंवूय नकळो आशिल्लो. कसलीं कसलीं पानां आनी बारीक बारीक बियो कशो तीं काळीं फळां. बाणशिरें घेवन ताणें ल्हवूच धाकणें उकतें केलें. खतखतो, बुडबुडे, फेस आनी मागीर भस्स करून कोडसारसो, हरवसारसो विचित्र वास सगळ्याक पातळ्ळो. सात आठ दीस जाले, थंडीच निवळना म्हणून हो उपाय करपाचो येवजिलो गणेशान.

थंडेन जाम जाल्लो पळोवन स्टाफरूमांत टीचरांनी आनी बाकिच्यांनी ताका भेश्टायलो, अशी थंडी आंगार घेवन रावूं नाका म्हण. पुलमावांत भरतली आनी मागीर कित्याचें कित्यारय पडत म्हणपाची शिटकावणी दिली. ताचो सहकारी इरफान, ताणें ताका सांगलें पुडी खंय मेळटा ती आनी मागीर तातूंतल्या सामानाचे तीन वांटे घालून एकेक वाटो शिजोवन तीन फावटीं घेवपाचो म्हणून तो. पूण शिजोवन दितलो कोण? बायलेक मरून म्हयनो जालो आनी धुवेचो पत्तो नासून पांच वर्सां सरत आयलीं. ताणें गाळणो घेवन कसाय एका पेल्यांत ओतलो आनी भायर पडवेर येवन तो सोप्यार बसलो. थंडेन ताचो जीव कासावीस जाल्लो. हरशीं तो फांतोडेर उठून एक पासय मारून येवपी. पूण आयज उठनच दिसना जालें. सदचेभशेन इरफानान सादयलो ताका. तसो तो सामको शेजारी न्हय पूण लागींच रावता. दोगूय वांगडाच वतात इश्कोलांत. वतनाय वांगडा आनी येतनाय बी. राम लक्ष्मणाची जोडी म्हणटात सगळेजाण तांकां. आनी गणेशाची बायल मरतसान तर इरफान ताका चड लागीं आयिल्लो. ताची काळजी घेतालो. आयज आनी सकाळींफुडेंच येवन सादोवंक लागलो. गणेशान हाथरूणा वयल्यानच सांगलें,

'इरफान तूं चल. थंडेन जीव आंबशेला कसो म्हजो.'

'आरे भायर तरी यो'

'नजो रे म्हज्यान. तूंच यो दार धुकलून. उकतेंच आसा दार. सकाळी उठून उकतें केलें हावें. पासयेक वतलों म्हण उठिल्लों. पूण नजो जालें.'

आळसाय आनी बेजार येतालो ताका ती उबगण ताचे जापेंत आनी उलोवण्यांत जाणवताली.

इरफान ताचे म्हऱ्यांत आयलो. कुलकुलो खाल्ले भशेन गणेश हाथरूणार गच्च गोधडी कामरून न्हिदिल्लो.

'ताप आयला? '

इरफानान ताच्या कपलाक हात लावन पळयलो. तशी तापाची हुनसाण लागली ना ताका. थंडी चड जाल्ली.

तो भितर गेलो. गॅस पेटोवन ताणे फुटी च्या केली आनी कोपांत घालून घेवन

आयलो आनी ताका उठोवन ताच्या तोंडाकडेन कोप धरून म्हणलें, 'कसाय घेतलो तुवें?'
गणेशान तकली हालोवन 'ना' म्हणलें.
'करून दवरूं?'
'नाका. शिजयला हावें. मागीर घेतां. तूं चल. वेळ जातलो. प्रार्थनेची बेल मारपाची आसा.'
आनी इरफान गेलो.
गणेशान एक दीर्घ स्वास सोडलो. इरफानान उश्या म्हऱ्यान दवरिल्ली च्या तो पिलो आनी उठून बसलो. मातशें बरें दिसलें ताका. उठून भायर भितर दोन चार पासयो मारल्यो आनी आळसाय झाडून उडयली.
भितर येवन बगुण्यांतलो कसाय वाटग्यांत ओतलो आनी तोंडाक लायलो. कसायाचो एक खतखतीत घोंट ताळ्यांतल्यान सकयल देंवनाफुडें ताका बरें दिसलें. हुनसाणशी आयली कुडीक. पूण काळजाची हुनसाण कोण दितलो? ध्याना मनांत नाशिल्लें सगळें विपरीतच घडपाक लागलां. भांगरा सारकेल्या संवसाराक कोणा दळडिऱ्याची नदर लागली कोण जाणा!
तो अस्वस्थ जालो. आपल्याच जिवाची उबगण आयिल्ले भशेन जालें ताका. खंय आसतलें काय पोर म्हजें! एकलेंच भुरगें. खंय कमी पडला आसतलो काय बापूय म्हणून हांव! आशिल्ल्यो बाबड्याक खूब उमेदी. मेट्रीकेक बऱ्या मार्कांनी पास जालें. फुडें शिकपाची उमेद आशिल्ली काय कितें तें कळपाक मार्ग ना. पूण पैशांची आमची अडचण पळोवन वगीय रावलां आसतलें.
म्हज्या एकल्याच्या पगारान भागोवपाचें. आनी पगार तरी कितलो! प्युनाची सिर्विस. आठवे यत्ते वयर शिकपाक पावलों ना. तरीय तांतले तातूंत रीण काडून हें धाकटुलें घर बांदलें. आसा एक घर गावांत. मातयेच्या वणटींचें. गांवटी नळ्यांचें. रावूं येतालें थंयच. पूण सिर्वीस ही इतले पयस. सकाळीं साडेसातांक पावपाक जाय इश्कोलांत. थोडे तेप केलो यो वच. पूण वेळाचें गणित जमलें ना. बायल चड शिकूंक ना. ताका लागून तिका नोकरी ना. तरी बाबडी जुळोवन घेताली संसाराचें रडगाणें. केन्ना कसली कागाळ केली ना. आपणांक हें जाय तें जाय म्हण केन्ना कसलो हट धरलो ना.
चली जाली तेन्ना केदी खोस जाली तिका. बाळंटेरा वेळार खूब त्रास जाले. दोतोरान धरिल्लें नॉर्मल जातली म्हण ती बाळंत, पूण ना. आकांतली सामकी. वेणो येतात पूण भुरगें भायर सरना. दोतोर भियेलो. दोतोर वळखिचो म्हण माणसुकी. तागेली बायल आमच्या इश्कोलांत शिकयता ताचे वयल्यान आमचें

बरेपण. दोतोर पूण भांगर. एक पयसो घेतलो ना बाळंटेराचो. ऑपरेशन करचें पडलें ऐन वेळार. भुरगें वाचलें तें व्हडलें. पूण एक मात शिटकायलें दोतोरान, तिचे पिशवेक मातसो दोश आसा. आनीक भुरगें जावप कठीण आनी गर्भ धरलो जाल्यारय णव म्हयने तो सांबाळपाक जायत काय हो दुबाव. तेन्ना रीस्क घेवं नाकात. मेळ्ळां त्या भुरग्याक बरे तरेन वयर काडात.

जाल्लें हरशीं गुटगुटीत. पूण मातशें काळें. म्हजी तरी कात खंय धवी? आनी आवयूय तशीच काळी सांवळी. आसना कशेंय. आमच्या रगताचें जालें म्हणकीर जालें. नाव हावें दवरलें ताका 'श्वेता'. खूब जाणां कडेन अर्थ विचारून घेतलो. आमकां तशें चड गिन्यान खंय आसा? हावाशिवा करून जालों आठवी पास. तोवूय सामको कांठार. आवय कामेरें आनी बापूय मानाय. जालें. म्हाकाय मानायपणाकूच धाडपाक सोदी. पूण म्हजेच गोमटेर म्हारू बशिल्ले भशेन जालो. शिकतलोंच म्हण गेलों इश्कोलाक. पूण आमच्या सारक्यांचेर लक्ष कोण दिता? गोरीं गोमटीं, नाका दोळ्यांनी जुस्ताजुस्त आसता त्या भुरग्यांच्यो तोखणायो. आमचो गृहपाठ सारखो जायना जाल्यार कानाक धरून उठाबशो. मास्तर वा बाई मुखार उभी आसताली पट्टी घेवन एक दोन करीत. बाकिचीं भुरगीं कीटकीटटालीं. वाजेलों. आठवेक शाळाच सोडली आनी बापाय बरोबर गेलों वावराक. कोणालें कण्णेयिल्लें घर शींव तर कोणालो चुट्टां भोरो उखल.

नाव हरशीं गणेश, पूण सगळे गणसूच म्हण उलो मारी. आमच्या नांवाचीय ही अशी विदरणा. पूण म्हज्या भुरग्याक अशें घडूंक फावना म्हणून नांव दवरलें श्वेता. म्हणल्यार धवो फुल्ल रंग. सरस्वतिचें रूप. सरस्वति ही विद्येची देवी. शिक्षण, गिन्यान आनी बुदवंतकायेची देवता. मुखार पारजताचीं शिंपडून पडिल्ल्या धव्याफुल्ल पांकळ्यांच्या फुलां भशेन. अनंत, सदानंद आनी सदाफुली पळोवंक गेल्यार आमच्या दारांत सगळीं धवींच फुलां! मोगरीं, जायो, जुयो. ल्हानशें पोरसूं. पूण फुलां खूब. आबोलीं आनी शब्दुलींय आशिल्लीं. आवड तिकाच आशिल्ली, बायलेक. चित्रंगीचे वालेची आनी कितली तर तोखणाय! आनी ते वालीक फुलतलीं जांभळ्या रंगाचीं नाजूक फुलां सामकीं जाय आशिल्लीं. बडी रोमून ती वाल ते बडयेचेर वयर चडिल्ली पळयतना सामकी भुल्लूसून वताली. सिंधू नांव तिचें. हेंवूय हावेंच दवरिल्लें.

गणेश यादिंनी घुस्पलो.

सोयरीगत बी न्हय. गावांतलीच. अदीमदीं येताली आमगेर आवयचे मदतीक. सगूणे नांव. चोरयां, लिपून म्हणटा तसो दोळ्याक दोळो लागलो आनी धरलो.

सगूणे म्हण उलो मारता तें अजिबात आवडनाशिल्लें. एक दीस धाडस करून सांगलें ताकातूं म्हाका आवडटा पूण तुजें नांव आवडना. तें मुरगटलें. म्हणपाक लागलें, नांवांत कितें आसा तर? आनी नांव बदलूं येता न्ही मास्तर? हांव हांसलों. इश्कोलांत आसतां म्हण गावांत म्हाका सगळे मास्तरच म्हणी. म्हाकाय मातशें ओर्र कशें. वगीच रावतालों. पूण एक दीस सांगलें हावें सगुण्याक म्हजें काम कसलें तें. पूण ताचेर कसलो परीणाम जालो ना. तें म्हज्यांत आपलें सर्वस्व मानतालें. आनी सगुण्याचें सिंधू करून ताका हावें म्हजें केलें. खूश बाबडें. सिंधू, ह्या नांवातूच जाणवतालें म्हाका म्हज्या भारत देशा विशींचें आपलेपण. जांव म्हणलें तिच्या नांवातल्यान तें आनीक वाडत वचूं.
लग्ना उपरांत पयल्याच वर्सा घरांत आपल्या येवपान खोस फांकारपी श्वेता एक दीस आमकां सांडून नाच जालें तेन्ना सावन ती बाबडी तळमळत आसली. धुवेचे यादीनी घुस्मटटाली. केन्नाय हुंडकेताली. तिचो म्हणून बाबडेचो कितें अन्याय! धसको घेतलो तिणे ताच्या ना जावपाचो. कितल्यो तोखणायो गायताली तर धुवेच्यो. खूब लाड केल्ले. आपणाक काळें म्हण चाळयतात ही ताची आवय कडेन सदांच कागाळ आसताली आनी मागीर ती ताका म्हच्यांत काडटाली आनी रेडओचेर लागता त्या गीतांतल्यो दोन वळी सुरान म्हणटाली, 'वगी तूं चलये म्हजे कोणे तुका काळी म्हळी.' आनी मागीर मात तें आवयचे कुशींत रिगून खळखळून हांसतालें. ताचो हांसो सिंधू न्हंयच्या प्रवाहांत सामील जावन न्हंयचो घेर वाडत वता कसो जाणवतालो. आनी एक दीस व्हांवतां व्हांवतां म्हजी सिंधू म्हाकाच सांडून गेली. म्हाका अशी उबांतरा उडोवन. बायलेच्या आनी धुवेच्या यादींनी गणेशाच्या दोळ्यांच्यो पातकड्यो ओल्यो जाल्यो. इतल्यान पयसुल्ल्यान पोस्टमन ताका सादयत आयलो. आरे, म्हणजे दनपार जाली तर. केदो वेळ ताका आपूण यादिंनीं घुस्पल्लों तेंच कळना जालें. पोस्टमन रेऽऽऽ, गणेश मोरजेकार उले मारीत ताणें सायकल गणेशा मुखार उबी केली आनी पोतयेंतलीं पत्रां उस्तून एक जाडसो लखाटो ताच्या हातांत दिलो. गणेशाक अजाप, हें कसलें लचांड बी न्ही मू आपणांचेर.
'कितें रे गणेशबाब आज कामाक वचूं ना? तुका थंयच इश्कोलांत दितलों म्हण आशिल्लों हांव. कितें जालें? दुयेंत आसा?'
'थंडी मरे. थांबचना. कसाय घेतला करून. गेलों ना इश्कोलांत. गणेशान सांगलें.'
'बरें केलें. सुशेग घे. निवळटलो. उगडास येता न्हय भाभीचो. गेली बाबडी.' पोस्टमन गेलो पूण भाभीचो उगडास काडलो आनी आपल्या घायावयली

खवळी निखळावन काडिल्लेवरी जालें ताका. यादिंचें जडभार ओजें घेवन तो पोरसांत देंवलो आनी सगळ्या फुलिल्ल्या झाडांक पोशेवन तांचेर मायेचो शिंवर केलो. दनपारच्या भर वोतांत लेगीत फुलांनी आपल्या परमळान ताका धादोशीत केलो. चित्रंगीची पाचवीचार वाल तर हात लायता थंय ताच्या बोटांक गुठलावन घेताली. ताच्या आंगांतली आळसाय त्याच खिणाक ना जाली आनी तो सामको उमेदी जालो. मदींच भास जालो ताका सगळीं फुलझाडां वेटोळो घाल्ले भशेन ताका तिडकीन गुरगुरत विचारतालीं, खंय गेली आमची भाभी? केन्ना येतली आमची भाभी? कितें जाप दितलो गणेश तांकां? अपराधी जाल्ले भशेन तकली सकयल  घालून तो घरांत आयलो.
मोठे उमळशिकेन ताणे पोस्टमनान हाडून दिल्लो लखाटो उकतो केलो. भितर एक पत्र पूण एक दोन पानांचें न्हय तर बरें जाडजूड. भरगच्च मजकूर. अक्षर मातशें मोठें. पत्राचे वयर नांव गांव काय ना. कोणाक बरयलां ताचोय उल्लेख ना. ताणे फाटफुडो सगळीं पानां चाळ्ळीं आनी निमाणेकडेन नदर भोंवडायली. श्वेता नांव वाचनाफुडें तो तटास जालो. धस्स जालें ताच्या काळजांत. ताणें वक्ल दोळ्यांक लायलें आनी परतून वाचलें, हय श्वेता. म्हजीच धूव ती. पोर खंय आसा कांय? आतां इतल्या वर्सांनी आयलो उगडास ह्या बापायचो? पळय सिंधू तुगेल्या पोरान पत्र धाडलां पळय. कितल्याय वर्सांनी आसना पूण जाली याद आमची ताका. आयकता मुगो? गणेश सामको भुरकटून गेलो आनी पत्र घेवन नाचपाकूच लागलो.
यो बस अशें, फुड्यान बस आनी फुडें आपली बायल बसल्या असो अदमास करून ताणें वाचपाक सुरू केलें,
नमस्कार
आई आनी बाबा म्हणपाची लायकी हावें दवरल्या काय कितें तें म्हाका खबर ना पूण म्हज्यांतली तुमचेविशींची माया आनी मोग हांकां स्मरून जें कितें घडलें तें सांगपाचें धाडस हांव करतां. खंयच्यान आनी कशी सुरवात करपाची तें म्हाका कळना. पूण घडिल्ली हकिकत तुमकां सांगपाकूच जाय. इतली माया आनी अपुरबाय करपी आई बाबा म्हाका मेळिल्लीं आसतना तुमकां सांगनासताना घरांतल्यान भायर सरून हांव खंय खंय भोंवाडे मारीत रावलें आनी इतलो तेप तुमकां ताची मातूय सुलूस लागूंक दिली ना हाची ख्यास्त तर हावें भोगलीच पूण जिवितांत कितलेशेच चित्त थरारक अशे अणभव घेतले.
जगप हें सुंदर तर आसताच पूण आव्हानां पेलीत जगप हें सबळकायेचें प्रतीक आसा. म्हज्या अणभवांतल्यान हे धरतरे वयले बायलेक हांव कितल्योशोच

शिटकावण्यो आनी चन्नायो दिवपाक शकन इतलें धाडस म्हज्यांत नक्कीच आयलां. पूण तेपयलीं हें सगळें घडपाक कितें कारण जालें तें सांगपाक जाय. मेट्रीके उपरांत म्हजे खोशयेन हावें ब्युटी पार्लराचो कोर्स केलो. थोडेशें इंटेरीयर डेकोरेशन शिकलें. म्हाका दिसतालें हावें एक ल्हानसो पार्लर उगडचो आनी ह्या धंद्यांत नांव कमावचें. पाच वर्सांफाटीं गोयांत असले पार्लर चड नाशिल्ले आनी ह्या धंद्यांत बरो वाव आसा अशें चिंतून हावें हें केलें. म्हजें फुडलें शिक्षण तुका परवडपाचें ना हें हावें पळयलें आनी कसलेंय आलतू फालतू काम करपय म्हाका पसंत नाशिल्लें. दोन तीन हजार रूपया पगार मेळपाचे आशेन सकाळफुडें पर्सी खांदाक मारून कारखान्यानी कामाक वचपी चलयांक पळोवन तर तसली पगारी नोकरी करपाची म्हजी तयारी नाशिल्ली.

तुका मेळटा त्या पगारांतल्यान म्हज्या शिक्षणाचो खर्च भागोवंक कठीण वचपाचें म्हणून हें सगळें करपाक हांव फुडें सरलें. पूण तें म्हजेखातीर एक दिव्य आशिल्लें. दोनेक खेपो जीव दिवपाचो विचारय मनांत येवन गेलो पूण हांव तितलें दुबळेंय नाशिल्लें. इश्कोलांत तूं प्यून आसू पूण घरांत मात म्हजो मास्तर आशिल्लो आनी जगपाचेर प्रेम करपाक तुवेंच म्हाका शिकयिल्लें. वगी तूं चलये म्हजे कोणें तुका काळी म्हळी / पूस ते दोळे रूपाची जात तुज्या आगळी..आई जें गीत म्हजे खातीर गाताली त्या गीतांत म्हाका एक संदेश आशिल्लो, कोणेंय कितेंय म्हणलें तरी आपणे वगी रावपाक जाय. निरशेवन रडपाक फावना. खूब पोरने पद तें. रेडओचेर अदीं मदीं वाजत आसता. त्या गीतांत म्हजें भुरगेपण लिपलां. खंयूय कानार पडल्यार हांव थारून आयकतां आनी तृप्त जातां. मागीर म्हाका आईचो उगडास येता आनी तेसरशीं म्हज्यांत बळ येता परिस्थितिचेर मात करपाचें.

वाचतां वाचतां गणेशाच्या दोळ्यांमुखार ल्हानपणांतलें श्वेता उबें जालें. ताका दिसलें, हें म्हजें पोर कितलें इश्पेर्त जालां. ताणें आपल्या दोळ्यांतलीं दुकां अचळय पुसलीं आनी तो फुडें वाचपाक लागलो.

पार्लरांत येतना वतना एका भुरग्या कडेन म्हजी वळख जाली. वसंत नांव ताचें अशें ताणेच सांगलें. उलोवपाक गोड आनी भरवंसो दवरपासारको अशी म्हजी पारखणी जाली. हावें सादेपणीं सांगलें ताका, म्हाका पार्लर घालपाची इत्सा आसा. म्हणपाक लागलो आपूण मदत करतां. कोटेशनां बी आपणेंच हाडून दिलीं. तुका सांगलें ना आनी आईकूय म्हणलें ना ती खूब व्हड चूक जाली म्हजे कडसून. सांगलें ना ताचे फाटल्यान कारण आसलें बाबा. घराचो हप्तो आनी संसाराचो भार. तातूंत म्हजो खर्च. तुका हें सगळें पेलपाचें न्हय.

हावें सांगिल्लें जाल्यार तूं ना म्हणचो नासलो न्ही बाबा?
नागो बाय. खंयच्यानय रीण काडून तुजी इत्सा पुरी करतलों आसलों. कळवळून कशीं गणेशाच्या तोंडांतल्यान उतरां पाजरलीं. तो फुडें वाचपाक लागलो.
जाणा हांव. तूं म्हजें उतर केन्नाच खाला दवरपी न्हय. तुका त्रास जातले हेच खातीर हावें तुमकां सांगलें ना. पूण प्रत्यक्षांत वेगळेंच घडलें. ह्या वसंतान म्हज्या सादेपणाचो फायदो घेतलो. एक दीस म्हणलें.म्हाका, तुजे कडेन कितें पयशे वा भांगर आसल्यार घेवन यो. म्हाका दिसलें, हो सोपेपणी म्हजें काम करतलो म्हण आनी म्हाका तर पार्लर घालपाची सामकी तीव्र इत्सा जाल्ली. संवकळ आनी सांगात मेळपाक लागिल्ल्यान आमी दोगांय एकामेकाच्या चड लागीं येवपाक लागिल्लीं. वसंतान सांगिल्लें म्हाका पयलीं धंदो घालुया आनी मागीर लग्न जावया. हावेंय आं म्हणलें आनी ताका सहकार्य दीत रावलें. तो कोण, खंयचो, कितें करता हावें कांयच जाणून घेतलें ना. पिसाय कशें हांव! आनी त्या दिसा नियतीन म्हजो डाव साधलो. वसंत मोटरसायकल घेवन आयिल्लो. हांव फाटल्यान बसलें. बसचे पयलीं ताणें म्हाका विचारलें पयशे कितले हाडल्यात आनी भांगरां खंय आसात. बाबा, खऱ्यांनीच सांगतां, तूं म्हाका अदीं मदीं दितालो ते म्हजेकडेन पंचविशेक हजार आशिल्ले. आरमारीच्या खणांतूच दवरतालें. ते सगळे घेतले आनी सरपळी, कांकणां ह्यो भांगराच्यो वस्तीय पर्सींत उडयल्यो आनी म्हाकाच कळ्ळें ना वसंत म्हाका खंय घेवन वता तो. ताणें गाडी फास्ट स्पीडीन धांवडायली आनी काणकोण वलांडून आमी कारवारा फुडें पावलीं इतलेंच हांव जाणां. फुडलें म्हाका कांयच खबर ना.
मागीर म्हजें पोर खंय गेलें काय? सिंधू, कोणे खंयच्या गिधान व्हेलें काय म्हज्या श्वेताक?
जेन्ना हावें दोळे उकते केले तेन्ना हांव एके बाज्जेर पडिल्लें आशिल्लें. म्हजे कपडे अस्ताव्यस्त जाल्ले आनी म्हजी खात्री जाली म्हाका कोणेतरी बरेंच पिययलें, सोरो काय ड्रग्स हें कांयच म्हाका खबर ना. कित्याक तर सगळें घडिल्लें तें बेसावध अवतिकायेंत घडिल्लें.
सावचित जालें तेन्ना म्हजे म्हऱ्यांत एक बायल बशिल्ली आनी ती म्हज्या आंगभर हात भोंवडायताली. कसलें ताट म्हज्या फुड्यांत वाडून दवरलां हें समजुपाक बरोच वेळ गेलो. हें होटेल म्हणल्यार शिंदळकिचो अड्डो आशिल्लो. वसंत हो तांचो सप्लायर. ताणें म्हाका सामकें जाळ्यांत फारायिल्लें. म्हजी पर्स, भांगरां कितेंच नाशिल्लें. ते बायलेन म्हाका वेंगेंत काडलें आनी सांसपित म्हणलें, कितें जाणा?

वगी तूं चलये म्हजे कोणें तुका काळी म्हळी / पूस ते दोळे रूपाची जात तुज्या आगळी.
गणेशाच्या तोंडांतल्यान आपसूक उतरां आयलीं.
'ना. म्हजी आई म्हणटाली तें गीत म्हणलें ना. कसलींतरी वेगळींच उतरां. कन्नड आसुंये. हांव कर्नाटकांत पाविल्लें. म्हजे कडेन तर आतां एक पानदुडू नाशिल्लो. मोबायलय ना आनी तुमचे कडेन संपर्क करपाचें कसलेंच साधन ना. त्या दिसाच्यान हांव तांचेमदलें जालें. म्हजे कुडीचेर त्या लोकांनी पयसो केलो. रावपाक मेळटालें, खावपाक पिवपाक मेळटालें. बाकिची सगळी काणी तुकाच न्हय तर कोणाकूच सांगपाची ना म्हाका. तरातराचीं गिरायकां येतालीं. रातचीं, दनपारचीं. तांकां खूश करपाचें. पयशांचो हिशोब भलत्याच कडेन. फक्त इतलेंच सांगतां ह्या पाच वर्सांत खंयच्या गिरायका कडल्यान खबर ना, पूण म्हाका दोन भुरगीं जालीं. एक चलो आनी एक चली. कितें करतलें? निमाणे तीं अर्भकां. म्हज्या पोटांत जल्माक आयिल्लीं. बापूय कोणय आसूं, पूण हांव तांची आवय आशिल्लीं.'
आनी एक दीस वेगळेंच घडलें. जें घडलें तें कोणाच्या वायटाक आनी कोणाच्या बऱ्याक तें हांव नकळो. पूण आयज हांव तें म्हज्या बऱ्याक अशेंच म्हणपाक शकतां.
बाबा, जे कितें प्रसंग म्हजेर आयले ते सगळे हावें काळजार फातोर दवरून भोगल्यात. कित्याक जाणां बाबा, आईन म्हाका जगप कशें हें शिकयिल्लें. जीण ही रंगरंगयाळी आसता अशें तूंच म्हणी. ह्या वेगवेगळ्या रंगांचो आस्वाद घेवपाक शिकूंक जाय अशें तुजें सांगणें आसतालें. ते रंग हावें म्हजे तकलेचे फास्केर चितारल्यात. ह्या इतल्या कठीण आनी काळखी मार्गावयल्यान चलत फुडें वतना म्हाका असो एक लखलखीत दीपस्तंभ सांपडलो जाणे म्हज्या फाटल्या आख्ख्या पाच वर्सांच्या जिवीतांत परिवर्तन घडोवन हाडलें. कसलें परिवर्तन तें सांगपाक म्हाका आनीक दोनूच दिसांचो वेळ दी. हांव तुका मेळपाक येतलें.
बाबा, तूं म्हजेर रागार ना न्ही? चूक जाल्या म्हजे कडेन. पूण ती मुद्दाम केल्ली चूक न्हय. नकळटाना सगळें घडून आयलें. पूण हांव आतां कोणाचेर अवलंबून ना. आईन हेंय शिकयिल्लें म्हाका. मनशाचें मन निर्मळ आसपाक जाय व्हांवते न्हंयेभशेन. खंयूय आसूं सिंधू न्हंयचो उगडास दवर. थंड व्हांवपी न्हंय. कात काळी आसली म्हण कांय जायना, कर्तूप श्रेष्ठ आसपाक जाय. श्वेता नांवूच धव्याफुल्ल निर्मळतायेचें प्रतीक.

तुका मेळपाक येतलें. तुजे आशिर्वाद जाय.

तुजें,

श्वेता

गणेशाच्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां व्हांवतालीं. मुखार इरफान ताका जेवण घेवन आयिल्लो. ताणे देळे उकते केले,

इरफान पळय रे म्हजें श्वेता म्हाका मेळपाक येवपाचें आसा. आज फाल्यां केन्नाय येत. सांगूंक जायना. हांव वाट पळयतलों ताची.

खरेंच?

दोन दीस जाले धुवेचो पत्तो ना म्हण गणेश वाजेलो. फटयलें शेर्त पोरान म्हज्या. ताणें आपली रजाय वाडोवन घेतिल्ली केन्नाय येत म्हण तें. पुरो सुशेग घेतला तो. फाल्यां वचप कामाक.

आनी म्हणटासर दारांत गाडी थांबली. गणेश उठलो. दोन बायलो आनी दोन भुरगीं. श्वेताक तो वळखलो पूण हेर सगळीं अनवळखी. आयलीं तीं सगळीं गणेशाच्या पांया पडलीं. आपलेंच घर आशिल्ले भशेन श्वेता सगळ्यांक घेवन भितर गेलें.

बाबा, हीं म्हजीं दोगां भुरगीं पत्रांत बरयल्यां हावें तीं.

गणेशान दोगांकूय म्हऱ्यांत काडलीं. आनी ही म्हजी नवी फॅमिली कबीर आनी सुखीया. अड्ड्याचेर धाड पडली तेन्ना सगळीं जळामळा फापसलीं. फकत हांव रावलें म्हज्या ह्या दोगां भुरग्यांक घेवन. म्हाका परतून असले हळशिकावणे वाटेर वचपाक नाका आशिल्लें. कबीर आनी सुखीया हाणी म्हाका आपणागेर दवरलें. फाटले स म्हयने हांव तांगेर आसां.

गणेश तांकां हात दिवपाक वतालो आनी इतल्यान ताणे एक कार्ड ताच्या हातांत दिलें.

बाबा, म्हज्यांत नवो चैतन्यमय आत्मविश्वास आनी हें सगळें घडून येवपाक जाय आशिल्लें फाटबळ म्हाका कबीर आनी सुखीयान दिलां. म्हजें जिवीत सार्थ करप हातूंतच तांच्या उपकारांची परतफेड आस्पावल्या. म्हजी आई म्हजें कर्तूप पळोवपाक आयज ना हें म्हाका खबर आसा. तिचे जितेपणींच हें जावपाचें पूण वेव्हाराचे सगळे सोपस्कार जावपाक वेळ गेलो.

गणेशान कार्ड आपल्या हड्ड्याकडेन घट्ट आंवळून धरलें. 'श्वेता-सिंधू' ब्युटी पार्लराचें आयताराक गणेश मोरजेकाराच्या हातांतल्यान उकतावण.

ताच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवतल्या दुकांनी कार्ड चिप्प भिजिल्लें.

श्वेतान ताच्या पांयार घालून घेतिल्लें.



# तीन दीस

**रजिस्टर्ड पोस्टांतल्यान मल्लीकाच्या नावार** आयिल्लो सरकारी लखोटो सत्येनान सय मारून घेतलो आनी भितर येवन ताणे जेवणाची तयारी केली. मल्लीकाक येवपाक आनीक अर्दवर आसा, ताणे घडयाळीचेर वेळ पळोवन अदमास केलो. सकाळीं एके मिटींगेक गेल्लें तें. येन्ना सोपल्या आसतली. पावतलें रोकडें. धा मिनटांनी येतलें कुंदनिका. आठवेक तें अंदू. सत्येनान तिगांकूय ताटां, पेले दवरले आनी तो तांची दोगांची वाट पळयत बसलो. ताणे लखोटो आरतून परतून नियाळ्ळो आनी ताच्या मेजार दवरलो खरो पूण मनांतली उत्सुकताय वचना. कितें आसत काय पत्रांत? बऱ्याचीच गजाल आसतली.

मल्लीकान नोकरी सोडून आतां चार वर्सां जालीं. समाजांत सतत घडिल्ले बारीक सारीक अन्याय जांव अत्याचार पळयतकूच आनी आयकतकूच तें अस्वस्थ जातालें. आनी चड करून बायलांचेर लादिल्लीं बंधना पळोवन ताचो स्वताचो घुस्मटमार जातालो. पूण नोकरेक लागून मातशें बांदून

उरिल्ल्यावरी जाल्लें. मनात आसूनय मेकळेपणान कितें करपाक मेळनाशिल्लें. खंयूय सभा संमेलनानी गेलें आनी कितेंय सडेतोड उलयलें जाल्यार रोकडी मेनेजराकडेन कागाळ पावताली. तशें तें भियेवपी न्हय पूण नोकरेचे नेम पाळपय तितलेंच म्हत्वाचें आशिल्लें. सत्येनाक तर तें तेचखातीर आवडिल्लें. कोणा कडेनूच ना उलोवपी मल्लीका फक्त ताचेच कडेन आपलें मन मेकळें करतालें. कॉलेजींत सावन तांची दोगांची इश्टागत. वाचनाची आकांताची गोडी. चडशें लायब्ररींतूच आसतालें म्हणल्यार जाता. खूब हुशार शिकपाक. बी.ए. क अर्थशास्त्र विशयांत पयलो वर्ग घेवन गोल्ड मॅडालीस्ट जालें आनी मागीर ताणे एम. ए. केली.
एम. ए. च्या दुसऱ्या वर्सा आसतना एके अर्बन कोपोरेटीव्ह बेंकेंत नोकरी मेळ्ळी आनी तें कामार रूजू जालें. पंचवीस वर्सां काम करूनय ताणे बडटी घेतली ना. ताका नोकरेंत तिगून रावपाचें नाशिल्लें. लग्रा वेळारूच सांगिल्लें ताणे सत्येनाक, म्हाका खूब्ब पयशे जाय अशें ना. तुज्या एकल्याचे कमायेंतल्यान संसाराचो आर्थीक भार पेलता आसत जाल्यार हांव त्याच खिणाक नोकरेंतल्यान मुक्त जातां आनी पुराय वेळ म्हजें समाजकार्य चालू दवरतां.
मल्लीका हें नाव ताका सत्येनान आपले खोशयेन दवरिल्लें. पयलींचें नाव लक्ष्मी. हें नाव ताका अजिबात आवडनाशिल्लें. पोरन्या काळांतलें म्हणून न्हय, तर देव्हाऱ्यांत पुजतात त्या एका पांयजेलाचें नाव लक्ष्मी म्हणून तें ताका नाका आसलें. नावांत लेगीत जिवेपण भासपाक जाय. नावाचो झोत विचारांचेर पडटा. ज्या नावांत देव, देवस्पण सारक्यो गजाली भरिल्ल्यो उरतात तीं नावां ताका आवडनात. देव म्हणलें काय थंय सोवळें ओवळें, अनवाळेपण असल्यो कुस्कुटाचें मोल नाशिल्ल्यो पचपचीत गजाली येतात. एक दीस सांजवेळा कॉलेजींत कॅम्पसांत पासय मारतना सामाजीक एका विशयाचेर तांची दोगांची चर्चा चलताली, त्या वेळार मल्लीकान ताका म्हणलें, ‘सत्येन, एक विचारूं?’
‘विचार मुगो, आमचेमदीं आतां परकेपण खंय उरलां? तूं म्हजे कडेन इतल्या मेकळेपणान उलयता तें म्हाका खूब आवडटा.’ सत्येनान म्हणलें.
‘आनी हांव तर तूं सोडून आनीक कोणा कडेनूच उलयना हें तूं जाणा. तूं केन्नाच म्हाका नावान उलो मारीना. हांव पळय तुका सत्येन म्हणटां. तुवें लक्ष्मी म्हण उलो मारचो अशें म्हाका जायतेदां दिसता. कित्याक मारीना? ’बाबडें जावन ताणे विचारलें.
सत्येन थोडो वेळ वगी रावलो आनी ताणे म्हणलें, ‘रागार जावं नाका, पूण तुजें नाव म्हाका साप्प आवडना. तुजे सारके चलयेक हें नाव आसपाकूच फावना. मागीर कसलें आसपाचें अशें तुजें म्हणणे? आनी तें तर म्हाका आवयन पाळण्यांत

दवरिल्लें नाव. कशें बदलूं येता?' ताणें विचारलें.
'हांगा समाजांत, राजकारणांत, आर्थीक मळार कसले कसले बदल घडून येतात आनी हो तर आमचो वैयक्तीक प्रश्न, नाव बदलपाक कसली आडखळ येता? तुजें मगो नाव एके फाकीवंत व्यक्तिचें आसपाक फाव. त्या नावाचो प्रभाव व्यक्तिमत्वाचेर पडपाक जाय, अशें तें आसचें.'
'तूं म्हणटा तें चूक ना. तुका कसलें नाव आवडटा? ताणे कुतूहलान विचारलें.
एके क्रांतिकारी, बंडखोर व्यक्तिचें नाव जाय, कारण तूं तर सदांच अन्याआड उलयत आसता. लक्ष्मी तर नाकाच.'
ह्या उतरांनी ताच्या तोंडार खंत न्हय पूण एक प्रसन्नताय फांकिल्ली ताका दिसली. ताचो तो अमुरपिको चेरो पळोवन सत्येनाक आपल्यांतूच चैतन्य निर्माण जाल्लेवरी दिसलें. सत्येनान ताचो हो प्रफुल्लीत मूड पळोवन म्हणलें,
'ए, सांगू म्हजे आवडिचें नाव? तुजे विचारसरणेक सोबता अशें सोबीत नाव, मल्लीका.'
आनी आवय्स! तें कसलें उमेदीन फुल्लें तर! सत्येनाक दिसलें, आतां तें फुडली स्टेप घेना मू! तिनसान जायत आयिल्ली. कॅम्पसांत कोण नाशिल्लो. किण्ण सगळ्याक. अशा वेळार ताणे वेंग बी मारली जाल्यार कितें करपाचें. मनाक जाय जायशें दिसतालें पूण काळीज खपखपतालें. ताणें फक्त ताचे दोनूय हात आपल्या हातांत घेतले आनी ओंठार तेंकोवन दीर्घ चुमले. मल्लीकाऽऽऽ हा ऽऽऽ ताच्या आख्ख्या आंगातल्यान एक गोड शिरशिरी जोगूल कशी गडगड मारिनासतना लखलखून गेली. तें आपूणशेंच कुशीक सरलें आनी ताणें उमेदीन म्हणलें,
'आरे व्वा! म्हज्या मनांतलें उलयलो. मल्लीका अमर शेख, साहित्यिक. तिचें लिखाण सामकें बंडखोर. वाचलां हावें. समाजवेवस्थेंतल्यो नाका आशिल्ल्यो संकल्पना, गरजे भायल्यो रूढी-परंपरा आनी दादल्यांचे आडेचे मानसिकतायेचेर ताणी खरायेन बरयलां. ताच्या काळजाचो विशय आनी मनपसंत लेखिका.' तें उलयत सुटलें.
'अंतस्करणांतले तळमळिंतल्यान प्रकट जाल्ली तिची ती शैली खरेंच तोखणायेची आनी जे अभिव्यक्तींतल्यान ती साहित्यकृती भायर सरल्या ती तर अप्रतिम. आरे व्वा!' सत्येनान म्हणलें.
'तुका तिचें लिखाण आवडटा हाचें म्हाका अजाप जाता सत्येन.' ताणे म्हणलें.
'कित्याक गो?'
'भोवतेक दादल्यांक ती बरयता तें मानवना कित्याक तर आपल्या कवितांतल्यान

ती जोखता ते तीर सामके दादल्यांच्या कर्तुपांक आनी तांचे मानसिकतायेक लागता म्हणून रे.'

'पूण हांव तातूंतलो न्हय. म्हजें म्हणणे स्पश्ट आसा, आमी समानतेचो पुरस्कार करतात जाल्यार प्रत्यक्षांत दादल्यान बायलेक रांदचीकुडींतल्यान भायर काडपाक जाय आनी तिच्या विचारांचो आदर राखपाक जाय. अशें घडटलें तेन्ना बायलेच्या आंगांतल्या कला गूणांक वाव मेळटलो आनी ती आपलें करीयर बरे तरेन करपाक पावतली.'

ताच्या उतरा कणकणी निर्धार उकतो जातालो.

'खरेंच रे. सगळ्यो जापसालकी बायले कडेन पेलनात.'

'मागीर जालें तर? आयच्यान तूं म्हजे खातीर मल्लीका. तिणें अन्यायाआड बरयलां. तुवें प्रत्यक्षांत करपाक जाय. नावाचें सार्थक जातलें.'

एका वैचारीक थरार वचून तेंगशेर पावतना भितरलो उमाळो भायर फुटप म्हणल्यार ज्वालामुखीचो जाल्लो स्फोट कसो दोगांकूय दिसलो.

दारांत कुंदनिकाक पळोवन ताची विचारांची तनरी भंगली. ताणे ताच्या खांदाचें बेग घेतलें तशें तें आपले कुडींत गेलें. आपले धुवेक कुंदनिका नाव दवरपाची शिफारस ताचीच आसली. सत्येन एक बऱ्यापैकीं वाचक आनी समीक्षक. वेगवेगळ्या कार्यावळिंचें मुद्देसूद सूत्रनिवेदन करपी निवेदक. ताका सदांच दिसतालें आपलें घर हें सृजन निर्मितेचे केंद्र आसपाक जाय. जांव मागीर ती साहित्याची, नव्या विचारांची, नव्या कृतिंची निर्मिती. ताका लागून ओंठार नावां लेगीत तशाच विचारवंतांची घोळपाक जाय. कुंदनिका कापाडिया गुजराती कांदबरीकार. तिचीं अणकारीत पुस्तकां ताणे वाचिल्लीं. तेखातीर ह्या घरांत जशें मल्लीकाचें वास्तव तशें कुंदनिकाच्या नावान आनीक प्रसन्नताय येतली असो ताचो विचार. ताणे घराच्या भायर नावाची पाटी लायल्या तिचेर वयर नाव आसा मल्लीका, मागीर सत्येन आनी सकयल कुंदनिका. एक दीस चलयेन विचारलें,

'म्हजें नाव सगळ्यांत सकयल कित्याक? वयर कित्याक ना?'

ताणे म्हणलें, 'तुजें नाव वयर येवपाक तुवें नाव जावपा सारकें कर्तुप करपाक जाय. आज सगळे लोक तुज्या मम्माक वळखतात म्हणून तिचें वयर. ती कोणाकोणाचीं कितलीं बरीं बरीं कामां करता पळय. तिचो मान तिका दिवपाक जाय.'

आनी ताचें समादान जालें.

इतल्या बोवाळांत तो लखोटो फोडिनासताना ताच्या हातांतूच उरलो आनी मल्लीका घरांत भितर सरलें. ताणे उठून ताच्या हातांतली पर्स घेतली आनी तिचे कुडींत दवरून भायर येत तो लखोटो तिच्या हातांत दिलो आनी म्हणलें, 'फोडून

वाचपाची उमळशीक तेंगशेक पाविल्ली पूण फोडपाक पावलोंच ना आनी तुज्या नावाचें पत्र वाचपाची चूकय घडली ना.'
मल्लीकान उकतो केलो आनी पत्र ताच्या हातांत दिवन म्हणलें, 'वाचून पळय आनी सांग, तोमेरेन हांव कपडे बी बदलून घेतां.'
सत्येन आनी कुंदनिका जेवणाच्या मेजार बसलीं.
'पप्पा, तूं पत्र वाच. हांव वाडटां ताटांत'
सत्येनान पत्र वाचलें, सरकाराचे वतीन मल्लीकाच्या नावाचे नेमणुकेची शिफारस महिला आयोगाच्या अध्यक्षपदाचेर केल्ली. ताच्या शिक्षणांतली हुशारी, तशेंच ताणें समाजा मदीं बायलांचे हक्क आनी अधिकारां संबंदी जागृती करपाक जीं कामां केल्यांत आनी आजून करीत आसा ताची नोंद घेवन तशेंच ताच्या मार्गदर्शनाखाला कार्यरत आसा ती सामाजीक बिगर सरकारी संस्था आनी तिचो वावर लक्षांत घेवन तिका हें पद दिलां अशें त्या पत्रांत नमूद केल्लें. सत्येनाक सामकी खोस जाली. मल्लीकाक तर आयकून सामकें भरून आयलें. आतां आपणाक कामां करपाक अदीक वाव मेळटलो अशें ताका दिसलें. ताणे उमेदी भरशीं येवन सत्येना फाटल्यान उबें रावन ताच्या केंसांतल्यान हात भोंवडायत म्हणलें, 'सत्येन, जाय आशिल्लें रे म्हाका एखादें अधिकाराचें पद. गरजवंतांची कामां जावपाक सोपें पडटा. नाजाल्यार तींच कामां रखडत उरतात.'
'चल पयलीं जेवन घेवया. कुंदनिका, आतां कळ्ळें न्ही तुका मम्माचें नाव पाटयेर वयर कित्याक तें?'
जेवतना सदचे भशेन तरातरांचे विशय चर्चेक आयले. कुंदनिकाचे वेगवेगळे प्रश्न. तांकां जापो दितना दोगांकूय नाका पुरो जातालें. पूण प्रश्न अनुत्तरीत केन्ना उरनासलो. उरलोच जाल्यार मागीर सत्येन केदोय वेळ ताका घेवन बसतालो. तेच खातीर ताणे आपणाक नोकरेच्या बंधनात घुस्पावन घेतलें ना. कार्यावळ आयोजक, निवेदक आनी समीक्षक हातूंत ताणें बरो जम बसयिल्लो. घरांतूच ऑफीस आनी तशें जाल्ल्यान घरांतल्या कामाचो सगळो भार तो आपूण सांबाळटालो. ताचें तशें बरें चलतालें. केन्नाय आकाशवाणिचेर, दूरदर्शनाचेर कार्यावळी मेळटाल्यो. वेगवेगळ्या पॅनलांचेर चर्चा, भासाभास असल्या कार्यावळींनय ताचें नाव आसतालेंच. सामाजीक मळार ताकाय प्रतिश्ठा आशिल्ली. अर्थीक नदरेनय ताचें बेस बरें चलतालें. सगळें ताचे आवडिचें जाल्ल्यान तो तातूंत विशेष लक्ष घालतालो.
ल्हानशेंच घर पूण सामकें टापटीप आनी वेवस्थीत नितळ निवळ दवरिल्लें आसतालें. सत्येनान आपूण जावन हें सगळें आपणाचेर घेतिल्लें. मल्लीकाक

कसलोच त्रास जावचो ना हाची जतनाय तो घेतालो. तें नोकरेक वतालें तेन्नाय तो आपूण सकाळीं बेगीन उठून ताचो डबो करून भरून दितालो. मल्लीका आपल्या सामाजीक कामांनी गुल्ल आसतालें.

भुरगें जालें तेन्ना तर सत्येनाच्या पायाक फुरसत नासताली. सगळीं कामां तो आपूण एकलो हाता मेकळीं करतालो आनी तिंवूय उमेदीन. सुरवेच्या स म्हयन्यात एक बायल येवन तेल लावन न्हाणोवन वताली तितलीच. भुरग्याक आनी आवयक. मागीर भुरग्याक न्हाणोवपाक तोच तरबेज जालो. एका फाटोफाट एक काम. भोवतेक फावटीं चार कामां एकाच बरोबर करचीं पडटालीं. मजा येताली. तीं कामां करतां करतां विचारांचें चिंतन मंथन चालू उरतालें. दुस्वास दिसलो ताका बायलांचे धांवपळीचो. दादले एका जाग्यार बसून रावतात तेन्ना तांचे विचारूय थांबतात कांय? शीताचे तपलेर धांकणे दवरतकीच खतखत्याक ओतो येता वा कुकरांतल्या शीताक शिटी येता तशीच बायलांचे धांवपळींत तांच्या विचारांकूय गती येता.

जेवण जातकूच सत्येन आनी कुंदनिकान मेळून मेज लीप केलें, आयदना घासून दवरलीं. सत्येनाची मल्लीकाक सक्त ताकीत आसताली, ताणें घरच्या कामांत लक्ष घालप ना. समाजांत चडानचड दुर्लक्षित उरिल्ल्या बायलांक फुडें येवपा खातीर प्रोत्साहीत करप हें ताचें मिशन आसचें अशें ताका सदांच दिसतालें. देखून तो ताका सतत उमेदी दवरूंक पळयतालो. दनपारचो वेळ मल्लीका धुवे वांगडा सारता. तेन्ना सत्येन घरांत भायर आपल्या ऑफिसांत आसता.

आजूय तो भायर येवन सकाळीं अर्द्यार उरिल्लें पुस्तक चाळपाक लागलो. पूण ताचें लक्ष विचलीत जाल्लें. मल्लीका महिला आयोगाची अध्यक्ष जाली हे खोशयेन तो भुल्लुशिल्लो. कांय खीण ताचें मन फाटल्या यादिंनी घुस्पलें.

लग्न जावपाचो विचार पक्को जालो तेन्ना एक दीस मल्लीकाक ताणें सांगलें, हांव तुजे कडेन लग्न जातलों तें तुका एक बायल वा घरकान्न म्हण घरांत हाडपाक न्ही. लग्न जालीं तरी आमचे नातें घोव - बायले परसूय वेगळें आसतलें. तुवें अमकीं कामां करपाचीं आनी हावें तमकीं करपाचीं असले वांटे आसचेनात. म्हाका मगो लज दिसता दादलो घरांत कांयच काम करीना तें पळोवन. ताच्या हाता पायांक व्यायामच नासता.आनी म्हणून विचारांकय स्थगिती. तो लग्न जाता तेंवूय आपले सोयी खातीर. लग्न जावन जिका बायल म्हणून तो घरांत हाडटा ती ताचे खातीर एक रांदपी आसता. ताचीं उश्टीं आयदनां काडपी वावराडी आसता, ताचे कपडे उमळून आनी मागीर सुकतकूच घडयो करून दवरपी एक लाँड्रीवाली आसता. तिच्या कश्टांचें आनी भलायकेचें मात ताका केन्ना पडिल्लें नासता. ताची अपेक्षा

आसता तिणें आपणाक बरें बरें सुवादीक रूचीचें शिजोवन वाडचें आनी पोट ताण भरून धेंकर येवचे आदींच उश्टें ताट थंयच सांडून आपणे भायर कदेलार बसून झेम काडची. जशें दनपारां तशें रातचें. हय मगो?

'आज मेरेन तशेंच चल्लां. म्हजे आवयन केलें, आवयचे आवयन केलें आनी आतां.'

'स्टॉप इट मल्लीका. यान फुडें अशें जावचें ना. ही पितृसत्ताक मानसिकताय म्हजे पुरती हांगा सोपल्या. तूं म्हजें सांगाती जावन घरांत भितर सरतलें. तुजे हे नाजूक कंवळे हात उश्टीं आयदनां घांसपा खातीर न्हय. बायलेक आठ वरां न्हीद जाय. फांतोडेचेर उठून दूद हाड, नुस्तें हाड, भाजी हाड आनी आमकां रांदून वाड. हें करपा खातीर तुजो मोलादीक वेळ हांव खर्चुचो ना. तुमच्या शिक्षणाचो समाजाचे उदरगती खातीर उपेग जावपाक जाय. मल्लीका, तुका कसलेच त्रास जावपाक फावना.'

आनी ताच्या ह्या उतरांनी मल्लीकाक घुस्मटून घुस्मटून रडपाक आयलें. सत्येनाक कितें जालें कळ्ळें ना. ताचो कसलोय अपमान जालो काय हें येवजून तो चिंतपाक लागलो. ताणें आपल्या लेंसान ताचे दोळे पुसले आनी विनवणेच्या सुरान म्हणलें, 'सॉरी मल्लीका, तुका दुखोवपाचो म्हजो हेत नासलो. म्हजें चुकलां जाल्यार म्हाका माफ कर...'

ताका आपलो हुंडको आडावंक आयलो ना. ताणें ताच्या खांदार आपली तकली दवरली आनी हुंडक्या हुंडक्यांनी रडून घेतलें. थोड्या वेळान सावचीत जातकूच सत्येनान म्हणलें, 'चल आमी त्या हॉटेलांत वचून बसुया. एक बरी च्या घेवया नाजाल्यार तुजे आवडिची कॉफी.'

हॉटेलांत पावतकूच सत्येनाक सुशेग जालो. एके कुशीकशें आशिल्लें मेज पळोवन तीं थंय बसलीं. मल्लीका तकली सकयल घालून बशिल्लें. ताणें ताचे खाडकेक हात लावन तकली वयर काडली आनी म्हणलें, 'तूं भितरले भितर घुस्मटटा. कितें जालां तुजें? तूं कितेंतरी सांगपाक सोदता. पूण कांचवेता. भियेवं नाका. हांव तुजो सांगाती. तुज्या दुःखांत हांवूय वांटेकार जातलों आनी तें ल्हव करपाचो यत्न करतलों.'

तरीय तें लेंसान नाक पुशीत रावलें. ताणे परतूय विचारलें.

'खरें खरें सांग, तुका म्हजे कडेन लग्न जावपाचें ना? तशें आसल्यार म्हजी कसलीच हरकत ना. पूण जंय वतलें थंय तूं सुखान उरचें इतलीच म्हजी इत्सा आसा.'

आनी मागीर मल्लीकाक आपल्या माथ्यावयलो पेज देंविल्ले भशेन दिसलो. ताणे

म्हणलें, 'ह्या संवसारांत सत्येन तूं सोडून म्हाका कोणूच समजून घेवंक शकचो ना. अशें दिसता तूं म्हजेच खातीर बी जल्मूक ना मरे?'
'चल, आगो पिश्या कोण कोणा खातीर जल्मना. दरेकलो आपलो स्वतःचो आसता. नातीं बी म्हणटा तीं सगळीं फोट गो. अखेर उरता ते अशे इश्टागतीचे संबंद, हांव आनी तूं. आमी लग्नाच्या नात्यान बांदून घेवनय इश्टागतीन वावरूया. खरें न्ही?' सत्येनान विचारलें
आनी घसघशांनी कोंसळटल्या पनेळांतल्या घोग्या भशेन ताच्या तोंडांतल्यान उतरां फुटत गेलीं.
...सत्येन, खूब वर्सां फाटली गजाल. ल्हान आसतना सावन हांवें मम्मी-पप्पाक झगडटनाच पळयल्यांत. साद्या साद्या गजाली वयल्यान मतभेद, मागीर तापातापी आनी धेंगशे. भुरगेपणांतूच म्हाका असल्या प्रकाराचो तिटकारो येतालो. कित्याक झगडीं हें म्हाका कळनासलें. पूण मागीर मातशी बुद्द आयली तेन्ना समजलें, पप्पाचें आनीक एके बायले कडेन येवप वचप आसा. तो मम्मा परस तिका चड जपता. मम्मीच्या कानार ही गजाल पावतकच ती खुबळ्ळी. मागीर घरांत सदची धूसफूस. एक दीस तो खूब खुबळिल्लो. ताणे तीडकीनूच म्हणलें, दोन बायलांक पोसपाक आपणाक त्रास जाता, तिका ह्याच घरांत हाडून दवरतां. जालें. चवथिच्यो सुटयो जोडून चार दीस आदींच मम्मा म्हाका घेवन मामागेर आयली. मामालें घर तशें व्हडलें. रावपाची अडचण नासली. मामा, मामी, तांचीं दोन ल्हान भुरगीं आनी जाणटी आजी. हे आजयेक खूब भैरजोळप आशिल्लो. तिणें घरांत भितर सरतनाच विचारलें, बाय तुका कितल्यावें वर्स लागलां? आनी हावें सांगलें, बारावें. आतां तेरावें लागतलें. ते बरोबर तिणें तोंड कितेंशें केलें आनी मम्मीक कुडींत आपोवन व्हेली. तांच्यो कसल्यो खबरी जाल्यो तें हांव नकळ. पूण म्हाका उत्सुकताय आशिल्ली. हावें दारा भायर रावन कान व्हड केले आयकुपा खातीर. थोडें थोडें म्हज्या कानार पडटालें तसो हांव अदमास लायतालें. गजाली म्हज्योच आशिल्ल्यो. 'आगो ताका म्हयनो बी आयलो?'
'एक फावट आयलो पूण आंगार चड जालें ना.' मम्मा
'दोतोराक दाखयिल्लें?' आजी
'दोतोर कित्याक जाय? पयल्या एक दोन खेपेक तशेंच जाता न्ही गे?' मम्मा
आनी मागीर तिणें ज्यो शीटकावण्यो दिल्यो त्यो सामक्यो क्रूर तरेच्यो आशिल्ल्यो. बायलांच्यो कशो भोयो भोयो घरांतलीं जाणटीं करतात ताची एक देख आशिल्ली ती. तिणे म्हणलें, 'हें पळय ताचेर नदर दवर. केन्नाय जावं येता. श्रावण सोंपलो आनी आतां चवथ तेंकली. आजून ताका शाणेपणा येवं नात. ताका येन्नाच सांगून

दवर. देवा म्हऱ्यांत मेतेर जावं नाका म्हण. तशें आसतकूच देवाक हात लावपाक जायना. आफडूंक जायना. देवाची पुजा करपाक फावना. गंध फूल घालपाक जायना. तोंडांत देवाचें नाव घेवप ना. भश्टकार तो. आमच्या घरांत उपकारपाचो ना. त्या दिसांनी देवाचेर सावळी लेगीत पडपाक जायना ताची. ती भितरली काळखाची कूड आसा तातूंत हातरूणाचो एक कवळो आसा गुठलायिल्लो. तोच वापरपाचो न्हीदपाक आनी मागीर चवथ्या दिसा बांयचेर व्हरून धुवन हाडपाचो, ही निर्मळकाय ताणे सांबाळची पडटली आनी तूं बारीक नदर दवरून राव. आमी बाये गावांत रावतात. तसल्यो सुदारणा बी आमच्या हुमऱ्या भितर पावूं ना. कोणा एकल्याच्या कानार पडल्यार गांवभर फां फूं जातलें. आनी फुडल्या वर्सा आमगेर कोण आरतींकूय येवचो ना. म्हजी मम्मा वाजेल्लेवरी जाली. तिणें म्हणलें, 'म्हाका कांयच खबर नाशिल्ले भशेन कितें करता गे तूं? त्या वेळार म्हजे कसले हाल केल्ले ते ना विसरपा इतलें हांव विसरभोळे न्ही. योग्य वेळार ताका सांगतलें हांव.' आनी ती भायर सरली. हांव थंयचें नाच्च जालें.

'सत्येन आयकता न्ही? काय उबगण येता?'

'आयकतां तर, सांग तूं.'

...चवथीक मेजून पाच दीस उरिल्ले. म्हज्या पोटांत येन्नाच भिरांतीन गुळो येवपाक लागलो. दिसलें हांव आयजूच बी जातां काय कितें. आतां हे तीन दीस कशे काडपाचे काय? म्हजेर आकांताचें टेन्शन. सांगू कोणाक काय जालें म्हाका. एके वटेन दिसलें आतां जावन गेल्यार बरें एकदांचें. चवथिच्या दिसांनी मेकळेपणान भोंवपाक मेळटलें. एक दीस उलगलो, दुसरो, तिसरो दीस आनी चवथ्या दिसा म्हाका सिनाल जालें. आतां म्हणलें जालें दिसता. सकाळीं उठटना पोटांत सणसण मारून गुळे येवपाक लागले. व्हडल्यान आड्डी मारच्योशो जाल्यो. पूण असल्या वेळार जातात त्यो वेदना भायर कळूंक फावना अशें मम्मान शीटकावन दवरिल्लें. भितरल्यान आंतकड्यो कोणतरी ओडटा अशें तेन्ना बारा वर्सांच्या म्हाका जाणवपाक लागलें. हांव उठना तें पळोवन मम्मीन एक धेंगसो घालो, आगो चवथ आज आनी न्हिदलां कितें? हावें तिका लागीं आपयली आनी तिच्या कानार पडटा इतल्या ल्हव आवाजांत हांव पुटपुटलें, 'मम्मी हांव जालें.' ती समजुपाचें तें समजली. आनी तिचें तोंड काळें निळें जालें. हावें एक व्हड गुन्याव केल्ल्यावरी तिणे कुरवांनीच तोंडार हात दवरून बोवाळ करूं नाका म्हणपाचें शीटकायलें आनी तीन दीस म्हजी पोटली ते काळखा कुडींत पावली. ते तीन दीस म्हाका कितें कितें येवजलें तें सांगपाचें न्हय. एखादे बायलेक आपल्या अस्तित्वाची जाणीव जातनाच जर इतले उतळताप सोसचे पडटात

जाल्यार हावें मनात म्हणलें देव्हाऱ्यांत पुजा करतात त्या सगळ्या देव देवतांनो त्या पांयजेलांतल्यान भायर सरून म्हज्या दोळ्यां मुखार येयात आनी हे देवांनो सांगात म्हाका तुमीय तुमच्या बायलांक इतलेंच हिणसायिल्लें? आनी हे देवतांनो तुमी असली पिळवणूक सोंशिल्ली? ना जाल्यार मागीर आमकां मनीस जातीकूच ही ख्यास्त कित्याक?

मल्लीका उलयतना खरशेतालें. आपल्या भुरगेपणातलो तेन्नाचो प्रसंग उगडास जावन तीडकीन तें थरथरतालें. केळी पानाच्या खोल्यार जेवण कुडींत पावतालें पूण त्या अन्नाची रूच मात ताका मेळपाकूच पावली ना. भायर सगळी पंगत जेवपाक बसल्या आनी तें मात काळखाचे कुडींत बसून मोन्यानी उंडयो ताळ्यांत चोनतालें. बारा वर्सांचो चलो निर्मळ आनी बारा वर्सांची चली अमंगळ? हो कसलो भेदभाव?

आनी तिसऱ्या दिसा बांयचेर कपडे उमळूंक गेल्ले कडेन आवय ताचे वांगडा आयली आनी तिणे फुडाराच्यो चत्रायो दिल्यो. आतां आपली कूड सांबाळपाक जाय. चल्यां कडेन चड किटकिटूंक फावना. तांकां आपले कुडीक आफडूंक दिवपाक जायना आनी अशेच तरेच्यो. भुरग्यांची ही पिराय सामकी नाजूक आसता हें आमी व्हड जातकूच आमकां कळटा, न्ही सत्येन? तेन्ना जें कितें सांगता ताचो प्रभाव मनाचेर चड बेगीन जाता आनी तेन्ना सावन जाणा तूं, म्हजें वागपूच बदललें.

मल्लीका भावनांचे सुवादीन जाल्लें. तें सांगत सुटलें .शाळेंत, कॉलेजींत लेगीत हांव मोने कशें उरलें. ते चवथीक मामागेर घडिल्लो प्रसंग म्हज्या जिवितांत एक व्हड मोडण घेवन आयलो. कुडिच्या आंगाची शारीरीकरीत्या वाड जातना आनी मेंदवाचे विचारशक्तीक पोसवण दिवपी आयामाक विस्तृतताय येता आसतनाच म्हज्यांतलें बळ खचिल्ल्या सारखें जालें. चलयेक जिवितांत इतले उतळताप सोसचे पडटात काय? एक व्हड प्रश्न म्हजे तकलेंत वर्तुळ जावन घुंवत उरलो. आनी तेन्ना सावन हावें मामागेर वचपाचें सोडलें. म्हाका अकस्मात समजणी आयली. आवयचो तो उपदेश म्हजे तकलेंत घिट्टी घालतालो. हांव ल्हान भुरगें उरलें ना. दिशींमाशीं कुडींत घडटा ते बदल जाणवपाक लागले आनी म्हज्यांतले अवयव गर्भ धारणेचे प्रक्रियेक परीपक्व जाल्यात हाची सुलूस लागत गेली. हांव अदीकच गंभीर जालें. चल्यांचे सावळेक लेगीत भियेवपाक लागलें. फाटल्यान एखादो दादलो येता कसो दिसलो काय हांव म्हज्या पावलांतलो नेट वाडयतालें, इतले भिरांतीन हावें इश्कोलांतले आनी कोलेजींतले दीस काडले. मजा मारपाची, खेळीमेळीन जगपाचें हें केन्ना म्हाका जमलेंच ना. कॉलेजींतल्या निमाण्या वर्सा

हांव तुजे कडेन उलोवपाक लागलें. तेंवूय बी तुजेर विश्वास बसतकूच.
ताचीं उतरां आयकताना सत्येनाची तकली भेरेल्ले भशेन जाली. ताणें तेन्नाच निश्चेव केलो, बायलांचे सोंशीकतायेची कदर करपाकूच जाय. ताणे ताच्या हातांचेर अळंग आपलो हात भोंवडायत म्हणलें, एके गजालीचें म्हाका सदांच कवतूक दिसता, आमच्या बोल्सांत पाच धा रूपयांची चार नाणी लेगीत आसल्यार आमकां बोल्स जड लागता, आमी तीं काडून मेजार दवरतात वा मेजाच्या खणांत उडयतात आनी एखादी बायल आपल्या एक ते तीन किलो वजनाच्या भुरग्याक दीस आनी राती धरून णव म्हयने सांबाळटा. इतलेंच न्हय तर बाळटेरा वेळार तिका येतात त्यो वेणो आनी ती कासावीस जाता ती पळयल्यार दिसता, आमी दादले एखादे किरकोळ दुखापतिचेर व्हडल्यो वेदना जाल्लेवरी बोवाळ मारतात. बायलेची महिमा खूब व्हड आसा.
सत्येनान ताच्या दोनय हातांचे तळवे सांसपिले. कितले मोव आनी नाजूक. खंयच खरखरसाण ना. बायलेचे कुडिची रचनाच अशी नाजूक पूण आमी तिका सामकीं रफ कामां करपाक गाडयेचीं चक्रां कशी घुंवडायत दवरतात. हीं कामां खरें म्हणल्यार दादल्यांच्या रांकट हातांनी करपाचीं.
तो एक खीण मोनो जावन एकेके बायलेचें खुमणे नदरे मुखार हाडीत गेलो. राजकारण, कला, साहित्य ह्या मळांवयल्यो बायलो, दोतोर, आदवोगाद ह्या मळाचेर वेवसाय करपी बायलो, लोकांच्या घरांनी वावर करून जोडपी बायलो आनी कसलोच आलाशिरो ना जाल्ल्यान रस्त्याचेर, फूटथाचेर आंग धापपाक धड वस्त्र नासतना उघड्यार न्हिदपी बायलो! अखेर बायलूच न्ही ती! ताणे मल्लीकाक तेंच सांगिल्लें, आमी बायलांची उदरगत म्हणटात तेन्ना सगळ्या थरा वयल्या बायलांची हें लक्षांत घेवपाक जाय. फक्त शारांनी आनी फ्लेटांनी, बंगल्यांनी रावतल्या बायलांचीच न्हय, तर गावांतल्या आनी कसलीच सुविधा नासताना तळमळपी बायलेकय आपल्या अधिकारांचो लाव घेवपाक मेळूंक जाय. 'मल्लीका' ताणे उलो मारलो आनी त्याच खिणाक ताका जाणवलें तें न्हिदलां आसतलें, ताका आपोवपाचें न्ही. पूण ताका शीतीद नासली. तो आपले येवजणेंत गूंग जाल्लो.
मुखार मल्लीकाक उभें आशिल्लें पळोवन तो गोंदळ्ळो. ताणें हांसत म्हणलें, 'पळय गो हांव तुज्या त्या अध्यक्षपदा खातीर सामको भुल्लसून गेलों. खंय पावलों जाणा, त्या हॉटेलांत, याद आसा तुका, तुवें म्हाका आपल्या भुरगेपणातली गजाल सांगली, चवथिच्या दिसा मामागेर घडिल्ली ती.'
'आरे बरोबर. म्हाकायं तेंच सपन पडलें. ती काळखाची कूड मरे मुखार. हावें

सासपिलें, कुंदनिका खंय काय? जाल्यार म्हजे कुशीनच आसा.'
'तुजें सपन खरें, पूण तुजे तकलेंतलें चूक.'
'कित्याक ताकाय जालीं वसीं आतां न्हाण घेवपाचीं. जतनाय घेवपाक जाय. तुका कितें दिसलें, तो प्रसंग घेवपाचो उरला म्हणून?'
'म्हणजे?' सत्येन
'आगो पिशा, असल्या गजालींचो कित्याक बोवाळ करपाक जाय आनी कसलीं जाय प्रत्यक्षिकां?
'आज कितें जालां तुजें?'
'म्हजें? कांय ना. वेल्यान चड मुडांत आसां, तूं ते कदेलीर बसून कितेंतरी बरें करतलें म्हणून.'
'आरे म्हाका पडला कुंदनिकाचो हुस्को. तें आजून ल्हान आसा न्ही रे.'
'यो बस अशें.'
मल्लीका कदेलीर बसलें.
सत्येनान ताच्या दोळ्यांत पळयलें. ताच्या दोळ्यांत आत्मबळाचें आनी आत्मनिर्भयतेचें तेज झळकतालें. ताका तेंच जाय आशिल्लें. एका वेळार दादल्याचे पावलटीक भियेवन कुशीक सरपी मल्लीका आज बरेंच हुशार जाल्लें आनी दुसऱ्या बायलांनीय तशीं पावलां उबारचीं ही ताची तळमळ आसली. ताणें मोगान ताचे दोनूय हात पोशेले आनी म्हणलें,
'कुंदनिका ते परीक्षेंत पास जालें. शंभर मार्कांनी उत्तीर्ण. पन्नास म्हजे आनी पन्नास ताचे, सामके जनरल केटेगरींत.'
'म्हणजे रे?'
'आगो फाटले तीन म्हयने ताका रेग्युलर पाळी येता.'
'आनी हें म्हाका खबर ना?'
'म्हाका कळ्ळां तें पुरो ना? सामकें नोर्मल. दोतोर प्रतिमाकूय सांगून जालें. ती अजापलीच, बापूय आपले धुवेची इतली जतनाय घेता तें पळोवन म्हणपाक लागली आपणाक खोस जाली. तिणे ताका वेवस्थित तपासलें आनी ताकाच सांगलें, केन्नाय कितेंय जालें जाल्यार आपल्याक येवन मेळ.'
'सत्येन तूं म्हज्या फाटल्यान एक सशक्त चैतन्य कशें जावन वावुरता. तुवें म्हाकाच न्ही तर कुंदनिकाकूय एक उमेदिचें बळ दिलां. नाजाल्यार म्हयन्याचे हे तीन दीस बायलांक त्रासदायक जाताले. म्हाका खूब बरें दिसलें. शारीरीक त्रास सोसूंक जातात रे, पूण तातूंत भर म्हण कुशीक रावपाचो मानसिक पेंच निर्माण जाता तेन्ना जीव खरेंच कासावीस जाता.'

'तुमचें हें दुखणें आमकां केन्नाच कळचें ना.'
'केन्ना केन्ना थोड्यांक इतले त्रास जातात खबर आसा तुका, तकली फोडटा, हात पाय धाडायन दिसता, जिवाक खूब कितें कितें भोगता.'
महिला आयोगाचे कदेलीर बसतकूच सगळ्यान पयलीं तुवें हातांत घेवपाचो विशय सत्येन सांगपाक लागलो, 'ल्हान चलयांक आनी तांच्या आवय बापायक कौन्सिलींग करपाचो. तुवें गावां गावांनी भोंवून घरा घरांनी वचून, जमल्यार महिला मंडळाची बसका घेवन थंयच्या बायलांक, केन्नाय पंचायतींत एखादी बसका घेवन तांचेर प्रभाव पडिसारकीं समजावणेचीं भाशणां दिवचीं पडटलीं.'
'सत्येन जाणा मरे, दादल्यांक पटोवप सोपें, पूण बायलांच्या मनाचेर रूढी परंपरा आनी श्रध्दांचो इतलो खोल प्रभाव पडिल्लो आसा, त्यो हो बदल मानपाकूच तयार नात. आयज मेरेन जें विटाळ म्हण मानीत आयल्यांत तातूंतलो विज्ञानीक अर्थ सांगूनय तांकां पटपाक कठीण वता. कांय कडेन तर बायलांचीं आरतीं परतीं उतरां आयकुचीं पडटात. चलयांची वाट लावपाक फुडें सरलां म्हण आरोपय जाता.'
'तुजे सोंशिकतायेची ही परीक्षा आसा. जें मिशन तुवें हातांत घेतलां तें यशस्वी जावपाक आमी दोगांय वावरूया.'
'जाणा मल्लीका फेमिनिजम, स्त्रीवाद हाचेर आमी खूब चर्चा करतात, वाद घालतात, झगडटात आनी निश्पन्न कितें जाता, तर दोगांय तोंकाची भुमिका घेतात आनी जो 'ईगो' आसा तो वाडत वता. स्त्रीवाद हाचो अर्थ बायलेचे आड दादलो असो न्हय. तर दादले आनी बायलो हाणी मेळून पितृसत्ताकाच्या आड विचार मांडप आनी ते कृतींत हाडप.'
कुंदनिका भायर आयलें. मल्लीकान ताका बारीकसाणेन नियाळ्ळें. ह्या भुरग्याक केन्ना म्हयन्याची पाळी आयली ताची सुलूसय आपणाक लागली ना हाची ताका नवलायच दिसली. दादल्यांक म्हण एक अंतर्मन आसताच, त्या मनांतल्यान बायलेच्यो भावना वळखुपाचें तंत्र तांच्यांत निर्माण जता.
'म्हजें अंतस्करण नियाळून म्हज्या मनाची पारख करपी सत्येन तूं एक अंतर्यामी. म्हज्या अंतर्मनांतलो खवदळ जाणून घेवपाची ही पारदर्शकता तुवें खंयच्यान आनी कशी सोदून काडली रे?'
मल्लीकाच्यान आनीक उलोवपाक जालें ना. ताणें कुंदनिकाक आपले वेंगेंत घेतलें आनी तें ताच्या कंवळ्या गालांच्यो आनी ओंठांच्यो कितल्योशोच पापी घेत रावलें.
ताचे मायेंत सत्येनाचे मायेचो आनी विचारांचो धग ताका मेळ्ळो.



## नयनतारा

**भायल्या भिणण काळखांतय** निवेदिताक एक आकृती ताकतिकेन वतना दिसली. ती मातशीशी भियेली. उठून भायर येवन तिचे म्हऱ्यांत वचपाचें धाडस तिका नाशिल्लें. भुतां देंवचारांचेर तिचो तसो विस्वास नाशिल्लो. पूण एखादें जनावर बी आसलें जाल्यार! पूण जनावर आसपाक चार पांय खंय आसात तर? मनशाचीच प्रतिमा ती. निवेदिता उठून बसली. उशा कडेन दवरिल्लो टोर्च पेटयलो आनी टोर्चींचो उजवाड भायल्या काळखा वटेन धरून पळयलें. हय, मनशाचीच आकृती ती. निवेदिताची खात्री पटली. घडयाळींत तर फकत चार वरां जाल्लीं. म्हणटकच झिळमिळटें जावपाक आनीक एक वर तरी जाय. पांच जाता म्हणसर मळबांत तांबडें दिसपाक लागतलें. तोमेरेन हांगाच राविल्लें बरें, तिणें थारायलें. इतल्यान खोक् खोक् करून घरांतली जाणटेली खोकली.

बाय, इतल्या काळखांत कित्याक उठल्या? तिणें विचारलें

मावशे भायर एक पासय मारून येतां.

येद्या काळखांत? तिणें भियेवन विचारलें
मावशे, हांगा आतां कितलीं घरां उरल्यांत गे?
घरां विचारता बाय? झाडां कितलीं उरल्यां काय म्हण विचार. घरांचें कितें, हांगांचीं थंय उबारूं येतात. इतलीं झाडां आनी माड बुडल्यात ते परते किल्लून वयर येवपाक वर्सां लागतलीं.
झाडांचें मागीर पळोवया. पयलीं घरां सांग.
फकत णव घरां आसात. हें आमचें धरून.
हें एक धरलें जाल्यार बाकिचीं आठ खंय आसात तर?
अशींच शिंपडून आसात जळामळा. हेच वटेन आसात. धरणा पासून कुशीक सामकीं.
मावशे तें मृणालिनीचेंय घर बुडयलें न्ही?
तेंवूय बुडयलें. आतां थंय कोण रावनासलो. मृणालीनी वीस वर्सांची आसतनाच गेल्ली हो गांव सोडून. वतना आवयच्या पदरांत आपले दोन वर्सांचे धुवेक दवरून गेली. कित्याक जाणां, आयक, सरस्वतिबाय आवय तिची, तिणें तिका म्हणलें, हांगा देवळांत देवदासी जावन आयुश्यभर ह्या दादल्यांची सेवा करीत रावूं नाका. हावें कितें भोगलां तें पुरो. तूं भायर चल, नाचाचें बरें शास्त्रशुध्द शिक्षण घे आनी तुज्या नांवा बरोबर ह्या गांवाचेंय नाव वयर काड. तिका आशिर्वाद दिवन एके बरे नाटक कंपनी कडेन तिका सोंपयली. काणी सांगिल्ले भशेन ती निवेदिताक सांगपाक लागली. निवेदिताकय उमळशीक लागिल्ली. तिणें विचारलें,
हांगासावन वतकच ती मागीर परतून केन्ना येवूंना?
आयल्या तर. गांवाकडलें आपलेपण तिणें सोडलें ना बाय. दर वर्सा सोमेश्वराची जात्रा जाता त्या दिसा जात्रेक येताली आनी वसंतऋतूंत हांगा वसंतपुजा जाता त्या दिसाय येताली. भोव उमेदी. तिची याद जावन ती थोडो वेळ वगी रावली. निवेदिताक तिच्यो भावना कळ्ळ्यो. मातशी वगी रावन तिणें विचारलें,
पूण आतां देऊळ ना न्ही गे हांगा?
देऊळ मगो बाय तिका नवें बांदून दिलां सरकारान आनी सोबीतशें एक घरय मृणालीनीक बांदून दिलां. वाडयेर. हांगाच्यान लागींच. ती दर वर्सा हांगा येताली, त्या घरांत दोन चार दीस रावताली. आमकां सगल्यांक जाप दिवन हडकिले बगर वचनाशिल्ली. मायेस्त आशिल्ली गो बाय खूब
आनी आतां?

तिचे दोळे दुकांनी भरून आयिल्ले. पालवाक आपले दोळे पुशीत तिणें म्हणलें, ती ना न्ही गो बाय आतां. मेल्यार जातलीं विशेक वसीं. आवय मर्णाचे धडेर पाविल्ली तेन्ना ती हांगा आयिल्ली, ती मागीर हांगाच उरली. नाचाचें शिक्षण घेतलें पूण सामकी तरबेज जावपाक पावली ना. येताले जायते दादले तिचे म्हऱ्यांत. पूण तिणें कोणांक लागीं केलो ना.

अं..

निवेदितान अजापीत जावन तिचे वटेन पळयलें.

दादल्यांचें कितें सांगपाचें. तांची वृत्तीच तशी जाल्या, धरूनच चलतात, हे जातींतल्या बायलांनी आपली सेवा करपाची. दीसभर देऊळ झाड, लीप कर आनी रातचें तांचें मनोरंजन कर. जालें. घोवाची बायल म्हण कपलाक कुकूम लावपाक मेळना. गावांत ते प्रतिश्ठीत, म्हाजन, भाटकारबी सगळे तेच. कुकमाची बायल घरा न्हिदो काडटा आनी हांचे हांगा नाचरंग चलतात. मृणालीनीचे आवयक सरस्वतीक मात खूब सतायलें लोकांनी. खंयच्याय वेळार दाराचेर टकटक. पूण आपले धुवेक असल्यांचे भकीक घाली ना. एकलोच आशिल्लो तिगेलो. सामको आपलो मानिल्लो ताका.

मागीर मरच्या खिणांक हांगा आयली?

हय. निमाणे तिचे खूब हाल जाले. कोण म्हणटा तिका दुयेंस जालें कसलेंतरी. केन्सर आसतलें. तातूंतल्यान आनी ती वांचली ना. कितें नाचताली म्हण सांगूं. पांयाक रोदां आशिल्ले भशेन घुंवाडे घेताली. केन्ना बसता आनी केन्ना उठटा नदर काडपाची फुरसत, सामकें फुलपांखरूं कशें.

लग्न जाली ना?

निवेदिताची उमळशीक वाडत वताली.

कोण जातलो लग्न तिचे कडेन? तांचेर एक छाप पडिल्लो आसा न्ही, देवदासी म्हण. भाटकाराक तर हिवूय भाटाभशेन आपलें बेंस कशें दिसतालें. आव्यापयऱ्यान येतालो आपले मनरीजवणेक. जालें हेंच तिगेलें जिवीत. उलोवन तिणें एक सुस्कारो सोडलो.

आनी नयनतारा कोण तर?

ती मगो बाय, आपले आवय कडेन सांडून गेल्ली तिगेली धूव. कोणा बापायली ती खबर ना. पूण तिणें धा वर्सां तिका सांबाळ्ळी हांगा आनी मागीर मृणालीनीन तिका मुंबय व्हरून बरे एके नाचणारीणेचे सुवादीन केली. मदल्या काळांत मुंबय बी तिच्यो बऱ्योच वळखी जाल्ल्यो. पैकीं कोणूय आसूं येत. हालीं नयनताराचें नाव सगळ्याक फामाद जालां मावशे. ती एक बरी नर्तिका

म्हण देशभर तिची नामना जाता.

जाणा आयकलां हावें. म्हाका भोव अभिमान तिचो. कुड्डे गांवाचें नांव ती वयर काडटली हातूंत दुबाव ना. थंय मगो बाय, एक पिंपळाचें पेड आसा. तें बुड्डू ना. पिंपळ आनी पेड तशेंच आसा. केदो व्हडलो घेर आसा जाणा! अजापतलें तूं पळोवन. मृणालीनी येताली तेन्ना त्या पेडा कडेन वचून बरी वरभर दोन वरां सुमार ध्यान लावन बसताली.

निवेदिता आयकत आसली. ती मन लावन आयकता तें पळोवन तिकाय उलोवपाची उमेद आयिल्ली. खूब तेंपान कोणतरी आपलें आयकुपी मेळिल्ले भशेन ती व्हांवतो वझरो कशी उलयत सुटिल्ली.

हांगा तसो अदीं मदीं कोण झळकना. केन्नाय भोंवडेक येतात ते कोणूय भोंवडेकार आयले जाल्यार. नाजाल्यार जितो मूस दिसपाक कठीण. पिंपळ आनी पेडाची थोडीशी याद आशिल्ली निवेदिताक, पूण सामकी न्हय. त्या काळार ह्या गावांत येवपाक साधनांय तशीं व्हडलीशीं नासतालीं. दिसाक एक - दोन खेपेक एक कार्रेर येताली तितलीच. कुड्डे भायर खंयूय वचपाचें जाल्यार तिचो वेळ राखून रावचें पडटालें. आपलें स्वत:चें साधन तर तेन्ना कोणाकडेन नासलें. फकत आसताली सायकल, पेदालांची. कोणूय अडी अडचणीक येवपाचो जाल्यार तो ट्रकार लेगीत बसून येतालो. 'कार्रेऽऽर, कार्रेऽऽऽर आवाज आयकून घरांत आशिल्लो राव रेऽऽ करून धांवट येतालो आनी तो येसर कार्रेर रावताली.

निवेदिताक येवजून हांसपाक आयलें.

तूं आयकता मगो बाय?

तिणें निवेदिताक चिंतनांतल्यान जागयलें. हय, हय. सांग तूं. म्हाका उमेद आयल्या आयकुपाची. म्हज्या भुरगेपणांतलो गांव हो.

तर हांव तुका पिंपळ आनी पेडाची गजाल सांगताली. जाणां बाय, तो पिंपळ खंय तिचे कडेन उलयता. आनी मागीर ही आपल्यो सगळ्यो गजाली ताका सांगता.

शक्यच ना. तुवें आयकलां मावशे उलयतना? पिंपळ म्हण उलयता? लोकांचें म्हण नाका जाल्लेंच.

आगे बाये, कोण सांगता उलयना म्हण? झाडाक जीव आसता. झाड वाडटा, झाड फळटा, झाड फुलता, हय मगो? ताच्या म्हऱ्यान वचून आपल्या मनांतल्यो गजाली ताका सांगत जाल्यार ताका त्यो कळटात. संवकळ आसत जाल्यार ताचे हुंकार लेगीत कानार सादिल्ले भशेन दिसतात. केन्ना रडटा कशें

दिसता तर केन्ना हांसता तेंवूय जाणवता. खऱ्यांनीच तें उलयता गो बाय. हातूंत अजाप काय ना. तूं वचून पळय. तुका जाणवतलें.
तूं मगे मावशे, म्हाका पिशें करता. झाडाक तोंड आसा तर उलोवपाक आनी हांसपाक?
तोंड नासूं, पूण ताच्या सळसळ आवाजांत सूर आसता. पेटयेक बीन आसतात तशे. आनी ह्या कुड्डे गांवाची म्हयमा मोठी. ते सूर जोखून घेवपाक तांकांच कळटा जे कोण त्या कलांनी पारंगत आसात ते. गावपाक, नाचपाक कळटा तांकां असली खूब लक्तुबाय. सरस्वतिक तें जुस्त कळटालें. कित्याक जाणा, नाचा बरोबर तिच्यांत गावपाचीय कला आशिल्ली. ताळो आनी कितलो म्होवाळ आशिल्लो तिचो. आतां ती अशी दादल्यांचे भकीक पडली म्हण सांग. थोडें थोडें मृणालीनीक शिकयिल्लें तिणें. आवयचे गूण तशे चलयांक आपसूक येतात.
तिच्या तोंडांतल्यान गिन्यानाचे झरे व्हांवतात कशें निवेदिताक दिसलें. ही चड शिकूंक नाशिल्ली बायल इतलें लक्तुबायेचें उलयता म्हणल्यार अजापूच कशें. ती उलयत आसली,
संगीताक सूर आसतात तशे नाचाक ताल आसतात. हे ताल आनी सूर म्हणल्यार खळखळून व्हांवतल्या दर्याच्या ल्हारांभशेन. नाचप म्हणल्यार एक कला. तातूंतलो आनंद आमकां जगपाची उमेद हाडटा. पूण आमच्या दादल्यांनी आपल्या सुखाखातीर हे उमेदीचेरय विरजण घालें.
आपल्या कुड्डे गांवचो अभिमान, कलाकारां विशींची आदराची भावना आनी कलेची पारख नाशिल्ल्या दादल्यांविशींचो निरूत्साह निवेदिता तिच्यांत पळयताली.
कित्याक म्हणटा तूं? निवेदितान विचारलें.
आगो पोरा, तांकां नाचोवप आनी मागीर तांकां वेंगो मारप. हें तांकां वेसन जावन पडलें.
मावशे, तुका इतलें सगळे कशें कळटा?
निवेदिता तिच्या उलोवपांत रमून गेल्ली.
हांव हांगांच जल्मलीं आनी हांगाच वाडलीं. मृणालीनीची आवय ही तर केन्ना सावन नृत्यांगना. तेन्ना हांव सामकी ल्हान. नाच म्हाकाय आवडटालो. ती नाचपाक लागतकच सगळो वांठार धूंद जावन घुंवपाक लागतालो. आनी तूं नकळो, तिचो ताळो आनी पांयांतल्या घुंगरांचो आवाज आयकलो काय रानांतल्या जनावरांक आनी किडी मुयांक लेगीत जाग येताली

. तांचे आवाज ह्या सूर तालांत भरसताले. पूण ती चड वर्सां उरली ना. तिगेली धूव मृणालीनी.
निवेदिता आयकत आसली. ती जे तरेन वर्णन करताली तातूंतल्यान निवेदिताच्या दोळ्यां मुखार तेन्नाचो तो परीसर उभो जालो. भोंवतणी अटंगें रान. ह्या रानांत सवण्या सावजांचो किलकिलाट. तरातरांच्या जनावरांचे वेगवेगळे आवाज. निवेदिताक थोडी थोडी याद जाताली, घरांत शागोती फाल्त नासताली. बरे राती कडेन तशेंच फांतोडेर आर्माच्या गुळयांचो फार आसतालोच. शेर्त कोणेंतरी सावज फारायिल्लें आसतालें. थोड्यांकडेन राखणे खातीर आर्मां आसतालीं. तांचो केन्ना केन्ना असोय वापर जातालो. निवेदिताच्या बापाय कडेनय आशिल्लें.
आगो बाय, आयकता मुगो? तिणे तिका हातांनी हालयत विचारलें.
हय, हय, सांग
निवेदिता तनरेंतल्यान भायर आयली. जाणटेली तर सांगपाक सामकी रंगांत आयिल्ली.
इतिहासाचें बरें आसा. निवेदिताक वर्तमानांतले निवेदिताचें पडिल्लें. तिचो संबंध नयनताराचे कथे कडेन आसलो. तिका मदींच थारायत तिणें विचारलें.
आनी नयनतारा मावशे?
आयक सांगतां. नयनताराच्या नांवार तिच्या बापायन खूब इस्टेट दवरिल्ली. जमीनय दवरिल्ली तिच्या नावार. धरणा वेळार तांकांय खूब पयशे मेळ्ळे आनी मृणालीनीन आपले धुवेक मुंबय सामके बऱ्यांतले बरे नृत्यशाळेंत शिकपाक घाली. आज तर ती सामकी नांवाजती जाल्या देशभर. तिवूय येता अदी मदीं हांगा गावांत. घरा वता, देवळांत वता. दोन चार दीस रावता हांगासर टूरीस्ट होटेलांत. पिंपळा पेडार वचून ध्यान करता आवय भशेन.
तुवें म्हाका बऱ्योचशो गजाली सांगल्यो . इतल्यो यादी कशो उरल्यो मावशे तुका?
यादी खंयच्यो? तांच्या वांगडाच तर जगल्या मगो हांव. तांचेच भरशीं आसतालीं हांव सदांच. फुडें आयक. तांच्या सांगातान रावन हांव आनीकय जायतें कितें शिकलीं. भरतनाट्यम आनी कथ्थक हे दोन नाच म्हजे सामके घोस्ताचे. आतांच न्ही तर भुरगेपणांत सावन. मृणालीनी म्हजी इश्टीण. ती नाचतना हांव दोळे भरून पळयतालीं आनी तृप्त जातालीं. दिसपाक कितली ओडलायणी आशिल्ली तर! बरी लांब रूंद काया. काळी न्हय पूण गोरीपीट्टय न्हय. सावळी. पूण रूपेस्त. पायांत घुंगरूं आनी तिच्याच केंसांची लांबचे

लांब विणी. केन्नाय तिची विणी हांव घालताली. म्हाका आपली भयण म्हणटाली. तांगेर वचपाक म्हज्या घरांतल्यान म्हाका विरोध आसलो. पूण हांव हट्टी. गेले बगर रावनासलीं. हांव चडशी तांगेरूच आसताली. हातांत कांकणां, बोटांत मुदी, भुजाक बाजूबंद. सामकी अप्सरा. मृदंग, खडताल, बांसुरी सारकीं वाजोवपाचीं आयिद्दां वाजपाक लागलीं आनी पदाचें गावप सुरू जालें काय मृणालीनी पांयांचे ठेके धरपाक लागताली आनी मागीर पळय ती एक नाचपाक लागताली ती सामकी देहभान विसरून. पदांची उतरां आतां म्हाका पाठ नात. तीं वेगवेगळे भाशेंत आसात. कोण सांगता तामीळ तर कोण सांगता तेलगूंत.

निवेदिताक मोटें कुतूहल. कितें फटफट करून एका फाटोफाट एक गजाल सांगत गेली ती. निवेदीता सामकी मोनी जाल्ली तिचें आयकून. 'ही चड शिकूंना. पूण अणभव मात केदो आसा हिका! एकेक पावसाळो म्हणल्यार हिच्या गिन्यानांत भर पडत चलल्या. नाचाचेर उलयता ताची तोखणाय दिसता. आमच्या भुरग्यांक पाठांतर करूनय जमना. क्लासींनी धाडचें पडटा शिकपाक आनी मागीर अरंगेत्रम करतकच मळाबाक हात तेंकयल्या सरक्यो पॉजी काडटात. ही बाबडी चड खंय शिकल्या पूण गिन्यान जोडलां तें तोखणायेचें.'

निवेदिता तिच्या उलोवण्याचेर भुल्लुसून गेल्ली.

'नाचाचे दोन स्टेप मारून दाखय म्हणल्यार दाखोवपा इतली ही शीडशीडीत आसा आंगांन' निवेदिता तोंडांतल्या तोंडांत पुटपुटली.

तूं कितें येवजिता आसतली तें कळटा म्हाका.

मोनेपण सोंसना जावन तिणें म्हणलें.

आब्बा, सांग पळोवया कितें तें?

म्हाका नाचून दाखय म्हणटा, न्हूं?

बरी मगे तूं मन पारखी. म्हज्या मनांतलें ज्यूस्त वळखली.

वळखली तर...बरी नाचन आसलीं. पूण आतां जायना म्हज्यान. उमेद आसा भरपूर, पूण तितली ताकद ना. आनी हें पळय, मातसो उजवाड जाले बगर भायर वचूं नाका आं. अशें म्हणून हातांत एक दांडो दिलो आनी चत्रायेन तिका शिटकायली,

दांडो आपटीत चल. कोणूय जीव जिवाणू वाटेर आसल्यार कुशीक सरतलें. आंगार येवचें ना. दांड्याचो बरो आवाज जावं दी. आमचो भाटकार करतालो तसो. पायांतल्या जोत्याचो कर्रकर्र आनी हातांतल्या दांड्याचो टक् टक. कितें

तर दिमाख त्या दादल्याचो! धेक गाजयलो, खूब हिसपा भायर आमचेर. गोरवां कशीं सतायलीं आमकां गरीबांक. चल बरी करून.
चार वर्सां आदीं मेल्ल्या भाटकाराक खेपीत जाणटेली आपल्या कामाक गेली. निवेदितान दांडो जमनीर मारून आवाज केलो. काळखांतली भिण्ण शांतताय चिरीत तो ल्हानसो आवाज आसमंतात घुमलो.
निवेदितान वचपाची तयारी केली. आनीक उजवाड जावपाची वाट पळयत रावल्यार सकाळ जातली. आतांच गेल्यार बरें, निवेदितान टोर्च हातांत घेतलो आनी हेदोळ गेल्ले ते आकृतिचो अदमास घेत ती चलपाक लागली.
भोंवतणचें वातावरण वसंत ऋतुची जाणीव करून दितालें. एका वेळार आंबे पणस आनी नाल्ल काजुंनी रसरशीत आशिल्लो हो कुड्डे गांव आयज सामको भकास जाणवतालो. जातलीं आतां पस्तिशेक वर्सां चडूच. मानकुराद, मुसराद, फेर्नांद, फुर्ताद अशा तरातरांच्या जातिंच्या आंब्याचें पीक ह्या गावांत घेऽऽ म्हण राशिनी येतालें. ट्रकांचे ट्रक भरून भायल्या गावांनी तांची निर्यात जाताली. उसांचे मळ्यांचे मळे. उशीकांड्यांचें पीक घसघशीत योतालें. हांगा साखर आनी गोडाची निर्मिती जाताली. निवेदिताक याद जावंक लागली, केन्ना एक आंबो विकतो हाडचो पडलो ना, वेल्यान सोयऱ्या धायऱ्यांगेर पोतयो भरून आंब्यांच्यो सागवादी पावताल्यो. गोड आनी साखर काडून जातकच उरतालो तो रोस ताका काकय म्हणटालीं. ती सकाळीं च्याये बरोबर चपातेक लावपाक सदांच आसताली. निवेदिताचे जिबेक रूच सुटली. आतां ह्यो सगळ्यो काणयोच जाल्यो. त्यो लेगीत आमी विसरलीं. आयज कितल्या तेपान नयनताराक लागून त्यो उस्तून आयल्यात. कित्याक म्हण आमगेले जाणटेले सगळे तोंड धापून वगी रावले आनी इतलो सुपीक गांव साळावलेच्या धरणा खातीर उदकापोंदा घालपाक दिलो. कोणाक कांय दिसलें ना. कित्याक दिसतलें? सगळ्यांक दुपेटीन पयसो मेळ्ळो. भाटकारांचें भरलें आनी भाटकारशायेचे सतावणुकेंतल्यान मुंडकार आनी गरीब बाबडे सुटले. तांकां नवीं घरां मेळ्ळीं. दरेकलो आपलें दुःख जाणा. येदीं व्हडलीं भाटां आनी कुळागरां आसलीं तरीय मुंडकार मात सदांच गरीब उरले. हे भाटकार कितल्या वर्सां आदीं खंयच्यान आयिल्ले म्हण कोणाक खबर! येतना आपलीं देव दैवतां फाटीर मारून हाडल्यां आसतलीं. भाटां कशीं हाडटले? ह्या रानांत ताणी गांव वसयलो, सांबाळ्ळो आनी आपली बुद्द वापरून पिकावळीक हाडलो. तेच भाटकार जाले. आपूण शिकले, भुरग्यांक शिकयले. केले दोतोर, इंजिनियर, आदवोगाद. बाकिचे उरले पाडेली जावन नाल्ल पाडपाक

आनी आंब्यांचे पाटले देंवोवपाक. तांचे भुरगे सकयल पडटात ते पुंजावपाक. तांकां खंय मत आशिल्ली हें अशें करूं येता म्हण! भाटकार कागदार बरयताले आनी हे आखाणो मारताले. नाडले तांकां, सामके. जे जमनीर ते रावताले ते जाले मुंडकार आनी भायरसून आयिल्ल्यांनी बळकायली जमीन ते जाले भाटकार. मजा म्हणल्यार एक घोंट मुडकाराल्या भुरग्यान फातरावन खाल्लें जाल्यार माराचे वळ आंगार उदेवन येसर भाटकार मारतालो.

ह्यो कितें काणयो न्हय. खऱ्यो खऱ्यो खबरी. ह्या कुड्डे गावांत भाटकार कितले अत्याचार करताले हें निवेदिताक खबर आसलें. देखून इतली पिकाळ जमीन बुडोवन तिचेर धरण बांदलें हें दुखदिणे आशिल्लें तितलेंच मनीस म्हण जगपाक पळयतल्यांक तें सुखदिणे आशिल्लें.

पुर्तुगेज सत्ता आशिल्ली तेन्ना. सेलाद फोलींचेर ताणी सयो मारल्यो आनी हाणी मारले आखाणे. जालो करार संमत. तो भाटकार आनी हो मुंडकार. कायद्यान सगळें बरोबर. मागीर चुकलो कोण आनी खंय? हे अडाणी. बुल्लुसले तांचे जाती कातीक.

पोर्तुगेज गेल्या उपरांतच्या मेकळ्या गोयांतल्या राजकी, सामाजीक आनी आर्थीक व्यवस्थेचें चित्र वादळ कशें जावन निवेदिताच्या दोळ्यां मुखावयल्यान सरकलें, पोर्तुगेज हुकूमशायेचो प्रभाव सामको ना जावंक नाशिल्लो. नव्या सरकाराक कशें गुठलावचें तेविशींच्यो आखण्यो तयार करपाक ते तरबेज आसले.

बदल घडटालो पूण तो ल्हवू ल्हवू, भाटकारशाय तशी बरोच तेप उरली. मागीर कोण आयकता गरीबांचें? सरकारांत कोणूय आसूं, तांकां आपल्या बोटांर नाचोवपी वेगळेच. कुड्डेय ती भाटकारशाय लागू जाली. तांचीं मागीर काळजांय जालीं निबर. कायदो मारलो खुंटयाळ्याक व्हरून. मेळत तशो जमनी बळकायल्यो, जमनिचेर अधिकार तांचो.

गोंय मुक्त जालें आनी गोंय, दमण आनी दीव संघप्रदेश जालो. नवें सरकार. वारो येता तशें सूप धरतल्यांचीं शाणेपणां आनी धूर्तपणां फळादीक थरलीं कित्याक तर तेच थोडें शिकिल्ले बुदवंत आशिल्ले. जायत्या वाठारांतल्या लोकांनी फटाफट जमनी, घरां आपल्या नांवार करून घेतिल्लीं. तातूंत निवेदिताचो बापूय लेगीत आशिल्लो. ताणें ह्या बदलाच्या काळांत बरेतरेन सादोवन घेतलें अशें एक दीस ताणेंच बरें रमत गमत निवेदिताक सांगून उडयिल्लें. हो कुड्डे गांव आकारान ल्हानसोच आसलो तरी हाताच्या बोटांर मेजपा इतले भाटकार आनी खोंटलोभर मुंडकार. कसल्यो कसल्यो ख्यास्ती भाटकार तेन्ना दिताले

तें येवजूनच निवेदिताच्या आंगार कांटो आयलो. एक फावट तिणें आपल्या दोळ्यांनी पळयलें, सात - आठ वर्सांच्या एका ल्हान भुरग्यान जमनीर पडिल्लो आंबो उखलून तोंडांत मात घाला, आपल्या धव्याफुल्ल पुडव्याच्यो मिरयो खोयत खंयच्यान भाटकार थंय पावलो आनी ताणे ताच्या पांयांक धरून तकली सकयल आनी पांय वयर धरून तो बरोच वेळ ताका हुमकळायत रावलो. असली आशिल्ली तेन्ना भाटकारशाय. निवेदिताक भुरगेपणांतली थोडी थोडी याद जाताली.

भुरगेपणांत पायांनी माड्डिल्ले हे वाटेंतल्यान आतां वतना मंद गतीन व्हांवतल्या वाऱ्यांतल्यान निवेदिताक बऱ्योचशो यादी जावपाक लागल्यो. गोंयच्या इतिहासिक घडणुकांतल्या राजकी, आर्थिक आनी सामाजिक स्थित्यंतरांविशीं तिणें केन्ना चितूंक नाशिल्लें. एक प्राध्यापक आसूनय ज्या गावांत आपलो जल्म जालो ताचेविशीं आपणाक कांय खबर आसप ना ही लजेची गजाल कशें तिका दिसलें. मृणालीनी, सरस्वति हीं नावां तिणे आयकल्लीं आपल्या भुरगेपणांत. पूण नयनताराक वळखुपाक मातशें कठीण गेलें.

आनी अकस्मात घडिल्ली पयरची ही विपरीत गजाल. रात बरीच जाल्ली. इतल्यान मोबायलची रींग वाजली. निवेदिता सामकी न्हिदे भरवण जाल्ली. दोळे धांपिल्ले आसतनाच तिणे फोन कट केलो. परतूय वाजलो. कोण आसूं येता म्हण तिणे नंबर पळयलो, जाल्यार अनवळखी नंबर. आसूं म्हण तिणे परत कट केलो. पूण परत रींग वाजली. मागीर मात ती उठून बसली आनी फोन कानाक तेकोवन हॅलो म्हणलें.

निवेदिता? तेवटेन एक म्होवाळ आवाज आयलो.

हय, उलयतां. तुमी कोण?

हांव तुमची इश्टीण भुरगेपणांतली. नयन

याद जायना म्हाका. खंयची गजाल उलयतात तुमी?

कुडेची. कुडे गांव न्ही तुमचो?

आशिल्लो. भुरगेपणांतलो. त्या गांवा कडलो संबंद तुटल्यार आतां चाळीशेक वर्सां जालीं. त्या गांवाचें नाव निशाण उरूंक ना. उदकापोंदा गेलो. थंय धरण बांदलां.

जाणां हांव. तरी लेगीत तूं म्हजी इश्टीण. भुरगेपणांतली.

निवेदिता येवजित रावली. कोण नयन आसूं येता? कुडेची म्हणटा. पूण तिका कशीच याद जायना जाली.

तो गांव आनी त्या गांवचें सगळें हांव विसरल्यां. निवेदितान परतूनय तेंच

सांगलें.

पूण हांव कितेंच विसरूं ना. तूं म्हाका तुज्या पोरसांत फुलिल्लीं आबोलीं हाडून दितालें. म्हजी आई तांचो झेलो गुंथून म्हज्या केंसांचे लांब विणयेक अळंग गुठलायताली आनी मागीर हांव तुका नाच करून दाखयतालें.

आरे, तूं तें नयन गो, मृणालीनीचें चली? नयनतारा न्ही?

हय. आतां कशें वळखलें? मुंबय आसतां. दर वर्सा एक फावट गोंयां येतां आनी कुड्डे येवन मातयेक पाय लावन वतां. म्हजे आवयनच ही देख घालून दिल्या म्हाका. आयिल्ल्याचें कोणाक कळचेंना ही जतनाय घेतां. पूण हे फावट गुपचूप वचचीं ना. तुका मेळपाक जाय आनी पोरन्यो बऱ्योचशो यादी उस्तुपाक जाय.

पूण हांव तर पणजे रावतां.

जालें म्हणून? हांव हांगा सांग्यार रावल्यां. रिसोर्टांत. फाल्यां सांजे राती कडेन घरा वतलीं. परां फांतोडेचेर म्हाका म्हजे आवयन आपयल्या पिंपळाच्या पेडार. ती म्हज्या कानांत कितें सांगपाची आसा. तूं थंयच यो कुड्डे. परां सकाळीं. थंय मेळुया. ते सुवातीर पावतकूच आमच्यो यादी जाग्यो जातल्यो. बाय. न्हीद आतां.

आनी तिणे फोन दवरलो. कितले सहजतायेन उलयली ती! मेल्लीं मनशां जितीं जावन धरतरेचेर येनात हें खबर आसूनय ती आवयक मेळपाक कुड्डे येता ही विश्वास न बसपा सारकी गजाल. पूण केन्ना केन्ना श्रध्दा लेगीत अविश्वासाचेर मात करता अशें तिणें केन्नातरी खंयतरी वाचिल्लें.

निवेदिताक त्या पिंपळाकडेन वचपाचें आशिल्लें. जाणटेलेन सांगिल्ले ते वाटेन ती चलत गेली. एकूच वाट ती. आनीक वेगळ्यो वाटो जावपाक थंय आनीक रावतालो कोण तर?

पिंपळाच्या पेडा कडेन पावतासर आसमंतांत उजवाडपाक लागिल्लें. दीस वयर सरतालो. मावशेन सांगिल्लें तें फोट न्हय. दोळ्यांचे नदरेंत आसपावन येवं नज इतलो अगडबंब त्या झाडाचो आनी बांदून काडिल्ल्या पेडाचो आंवाठ आशिल्लो. वारो येता तशीं पिंपळाचीं पानां सळसळटालीं. त्या सळसळटल्या आवाजांत सरभरस सूर आशिल्ले. गीताची लय आनी नाचाचे ठेके. निवेदिताक तर दोनय येनाशिल्लें. गावपाकूय ना आनी नाचपाकूय येनाशिल्लें. निवेदिताच्या पावलांची सुलूस लागनाफुडें शांतताय पातळ्ळी. पिंपळाच्या पानांचो सळसळ एकदम थांबलो. निवेदिताक अजाप जालें. आपूण आयिल्ल्याची ही सुचोवणी बी पिंपळान तिका दिवूं ना मू?

आनी हें कितें? ती आकृती देंवून सकयल आयली. तिणें आंगभर पांगुरिल्ली शाल काडून पेडार दवरली आनी ती निवेदिता म्हऱ्यांत येवपाक लागली. मळबांतलो सुर्या वयर सरतालो. दोळ्यां मुखार उबी आसा ती आकृती नयनताराचीच आसतली काय ! निवेदिताचो गोंदळ चड वेळ उरलो ना. तिच्या मंद सुरांतल्यान साद आयलो,

निवेदिता

'कितलो मंजूळ हो आवाज. ही म्हजी इश्टीण, म्हज्या भुरगेपणांतली.'

निवेदिता नयनताराक पळयतच रावली. तिच्या दोळ्यांतलें तेज तिका आकर्शून घेतालें. इतले तेजाळ आनी ओड लावपी हे दोळे.

कितें पळयता? म्हाका पळयत कित्याक रावल्या निवेदिता?

'व्वा, जांबावलेच्या पाण्ट्यार निवळ नितळ फातरांतल्यान झुळझुळ व्हांवपी उदकाच्या आवाजाची सूरभरीत लय ही. वर्सासंकिनी आशिल्लो आमचे मदलो हो अप्रुपकायेचो दुरावो तर न्हय मू? चार पावलां मारून तिचे म्हऱ्यांत पावचें आनी अळंग तिका वेंगावचें कशें दिसपाक लागलां म्हाका. हो कसलो मायेचो झरो. 'नयन म्हज्या तोंडांतल्यान हीं हय न्हयशीं उतरां.'

तुज्या दोळ्यांक पळयतां. तुजे दोळे नयनतारा, सुंदरकायेचो दर्यो.

यो लागीं यो. तूं म्हाका सामकी लागीं जाय. इतल्या पयसुल्ल्यान कित्याक पळयता म्हज्या दोळ्यांक? तुवें म्हज्यांत विरघळून वचचें कशें दिसपाक लागलां म्हाका.

नयनताराचे दोळे उदकान भरून गेल्ल्याचें कळटालें. तीं दुकां लेगीत चांदी कशीं चकचकतालीं.

'म्हाका दिसता तशेंच हिकाय दिसपाक लागलां? ही आमची इश्टागतिचीच माया! मागीर इतलो तेप हे मायेचो दिश्टावो म्हाका कित्याक जालो ना तर? आज म्हाका अंतस्कर्णांतल्यान वेगळेंच कितेंतरी जावपाक लागलां. कशें सांगू हांव हिका? ती जाणटेली आशिल्ली जाल्यार तिका सांगतली आशिल्लीं हांव.' निवेदिता तिचे लागीं गेली. नयनताराच्या स्वासांची हुनसाण निवेदिताक बादताली. आपल्या अंतरंगांत तिका एका आगळ्याच आपुलकायेचो स्पर्श जाणवतालो. पळयतां पळयतां निवेदिताक तिच्या दोळ्यांतलें तेज अधीक प्रभावी दिसपाक लागलें. वगीच भास कसो जालो, अंतस्कर्णांतल्यान ह्यो भावनांच्यो किटाळ्यो! ही सर्वांगसुंदरी काय न्ही. पूण ही नक्कीच कोणतरी आगळी वेगळी. जाय जायशी दिसपी. ओडलायणी. वेंग मारीन कशी दिसता. निवेदितान तिच्या खांदार हात घालो. म्हणटासर नयनतारान तिका आपल्या

दोनूय हातांनी वेंगेंत ओडलें आनी म्हणलें,
निवेदिता, म्हजे आवयन म्हाका एक फावट सांगिल्लें इतले बोलके दोळे खूब थोड्या जाणांचे आसतात. तुज्या म्हणल्यार म्हज्या बापायची ती देण. ताचेय दोळे इतलेच सुंदर आशिल्ले. पूण कोण म्हजो बापूय हें मात तिणे केन्नाच सांगलें ना. ताका सोदपाक हावें वर्सां काडलीं.

नयन, तुज्या दोळ्यांत तुगेलें खाशेलेपण आसपावलां. म्हजे नदरेंत भरून घेतां तें. तुज्या व्यक्तिमत्वाक सोबता अशे हे तुजे दोळे नयन. जायतें कितें कितें सांगतात कशें दिसता. पूण सगळ्यांत चड म्हणल्यार ते तुजें वर्णन करतात.
तुका आवडले?
ताच्या दोळ्यांतल्यान दोन दुकां जमनीर विरगळ्ळीं. निवेदितान दोनूय हातांचो पोसो करून ताच्या दोळ्यां सकयल धरलो. तीं दुकां तें अचळय झेलून घेवपाक सोदी. ताच्यांत मायेचीं ल्हारां उचंबळूंक लागिल्लीं. नयनतारान आपल्या हातानी ताची खाडकी वयर केली आनी ताच्या दोळ्यांक आपले दोळे भिडयत विचारलें, खऱ्यांनीच सांगता तूं? म्हजे दोळे आवडले तुका?
हय. दोळे आवडले. तुजो आवाज आवडलो. तुजीं उतरां आवडलीं. म्हाका तूंच आवडलें.
तशें जाल्यार आतां तुका सामकी खाजगी एक गजाल सांगतां हांव. आयकून तूं खोशी जातली काय म्हजो तिरस्कार करतली हें हांव सांगूंक नकळ. पूण कितेंय स्विकारपाची म्हजी तयारी आसा.
निवेदिता सामकी घुस्पली. कसली खाजगी गजाल सांगपाक सोदता आसतली काय ही? निवेदिता मातशी कुशीक सरली. तिणेंय आपली वेंग सदळ केली. सांगपाक थोडोसो भंय दिसता पूण तुजेर पुराय भरवंसो दवरून आनी ह्या पिपळाक गवाय राखून आयज तुजे कडेन हें गुपीत म्हाका उकतें करपाचें आसा.
इतली उमळशीक कित्याक वाडयता? कितें सांगपाचें आसा तुका? निवेदितान ताळ्यांतलो हुंडको गिळीत म्हणलें.
निवेदिता आयक, म्हजी आवय मृणालीनी हें हांव हड्ड्यार हात मारून सांगपाक शकतां. पूण अमकोच बापूय म्हण सांगपाक म्हाका धाडस जायनाशिल्लें. म्हजे आवयन म्हाका इतलेंच सांगिल्लें, बाय, तुका एकूच बापूय आशिल्लो. तुजे हे आवयन ताका सोडून आनीक कोणाक लागीं केलो ना. बरो मनीस आशिल्लो. भाटकार. ताका आनीक एक बायल आशिल्ली आनी भुरगीं

आशिल्लीं. कुटूंबिक मनीस. इतलीं वर्सां म्हज्या बापायचो सोद घेतालीं हांव. मेळ्ळो तुजो बापूय? तिच्या उतरांत बरीच उमळशीक आसली.
हय.
कोण?
एका गूढ प्रश्नाचे जापेचे आशेन निवेदितान नयनतारा कडेन पळयलें.
विश्वंभर देसाय. पळय नयन, आवयचे झिरझिरीत जाल्ल्या कपयाळ्याची ही कपी हावें सांबाळून दवरल्या. आपणेंच घडसून तयार केल्लें हें कपयाळें ती केन्नाच पातयेनासली. जितेपणी खूब फावटी विचारलें तिका हावें म्हजो बापूय कोण. पूण केन्नाच सांगलें ना. मात तिणें मरचे पयलीं आपल्या आंगावयलें कपयाळें काडून म्हज्या हातांत दीत म्हणलें, हातूंत सोद तुज्या बापायचो थाव लागतलो. खूब इत्सा आशिल्ली ताची, तूं एक नांवाजती नर्तिका जावंची म्हण. ताची खर इत्सा पुरी कर. नाचांत उदरगत कर आनी मागीर बापायक सोदून काड. कपयाळ्याचें बोनर जाल्लें पूण ही कपी तश्शी आशिल्ली. पळय आकार तिचो 'विसू'. हावें अदमास लायलो विश्वंभर देसाय. ताका सगळे विसू म्हणटाले. चार पांच वर्सां जातलीं हे खबरेक - पेडार येवन पिंपळाक विचारलें, बरोबर आसा? आनी ताणें हय म्हणलें.
निवेदिताक हें सगळें अनपेक्षित आशिल्लें. 'नयनताराचो बापूय आनी म्हजो बापूय. दोगांयच्या दोळ्यांनी साम्य आसा. देखूनच तर ह्या दोळ्यांनी म्हाका आकर्शून घेतलें. ते नदरेंतल्यान आमी दोगूय भयणी.'
सुर्या वयर वयर सरतालो. घणघणीत दीस जाल्लो. नेटान जो वाऱ्याचो झोत आयलो तेसरशीं पिंपळाच्या पानांचो सळसळ दोगींच्याय कानांत सादोवन गेलो. निवेदीता आनी नयनतारा तुमी दोगीय एकाच बापायच्यो धुवो. आवयो वेगळ्यो आसत पूण तुमचे बापूय एक.
नयनतारा खिणभर थीरतायेन उभी. वग्गी. कांय वेळा आदीं आशिल्लें हांसतें खेळटें वातावरण अकस्मात गंभीर जालें. नयनतारा कितेंय स्विकारपाक तयार आसली पूण निवेदिता मुखार एक मोठें आव्हान उभें राविल्लें
.कितें करूं हांव, बाबा म्हाका बळ दी रे ह्या खिणाक. हांव भयण म्हण हिचो स्विकार करूं कांय म्हजे आई कडेन तुवें फटींगपणां केलीं म्हण हें तुज्या पातकाचें फळ मानून तिका झिडकारूं? अशें कशें जावूं येता? तिका झिडकारपाक तिचो कसलोच गुन्याव ना. आयज ती जे सुवातिचेर उभी आसा ते सुवातिर हांव आशिल्लीं जाल्यार म्हजेर हीच परिस्थिती येवपाची. ना ना ती म्हाका जाय. तिचे कडेन एक आगळेंच आपलेपणाचें नातें निर्माण जालां.

भावनीक नातें हें. म्हजी भयण म्हण तिची म्हाका ओडशी निर्माण जाल्या आनी एक नामनेची कलाकार म्हण म्हाका खोस जाल्या. म्हाका तिचो अभिमान. हांव तिका सोडपाक शकना निवेदिताचे दोनूय हात नयनताराच्या आंगा भोंवतणी पडले. दोगांयची वेंग अदीक घट जायत वताली. दोगांयच्या हड्ड्यांतलो खपखप सरभरस जातालो. दोगीय एकिमेकिंच्या भावनांनी भरसून गेल्यो. नयनतारान वेंग सोडयली आनी आपलें प्रसन्न मुखामळ तिचे वटेन करीत विचारलें,

निवेदिता, म्हाका म्हज्या बापायक मेळपाक जाय आनी एक मोठे उमेदिची गजाल सांगपाक जाय. व्हरशी?

भावनांनी भरिल्ले अवतिकायेंत निवेदिताक कितें उलोवचें तें कळना जालें. आपल्या नाकाचो तांबडो सोंडो हातांतल्या लेंसाक पुशीत ताणें म्हणलें,

दोन वर्साफाटीं म्हजी आवय मेली, तेन्ना सावन तो चड उलयना. भायर भोवपाकय वचना. घरांतूच आसता. आपणा भितर चिंतीतूच रावता. घडये निवेदिता एकदम वगी रावली.

घडये कितें? उलय निवेदिता.

नयनतारान तिचीं दोनूय भुजां हालयत विचारलें

घडये, तुजी वाट पळयता आसतलो.

नयनताराची उमेद तेंगशेक पाविल्ली.

खरेंच? व्हरता न्ही म्हाका?

नयनताराची उमेद पळोवन निवेदिताय सुखावली.

कसली गजाल सांगपाक जाय? तिणें नयनताराक विचारलें

निवेदिता, गोयांत येवचे आदीं दिल्लीचे नृत्य अकादमीन म्हाका फोन करून कळयिल्लें, सरकाराचे वतीन दितात तो नृत्यांगना पुरस्कार अंदू वर्सा म्हाका फाव जाला. आवयन सांगिल्लें तुज्या म्हणल्यार म्हज्या बापायक खूब उमेद आसली हावें अशे तरेचें नाव जोडचें म्हण आनी आवयन तर सांगिल्लें, संगीत आनी नृत्य हे प्रकार प्रतिश्ठेचे जावपा खातीर असले भोवमान मेळप खूब गरजेचें आसा. आज हावें दोगांयच्यो इत्सा पुराय केल्यात. आतां म्हाका म्हज्या बापायक मेळपाक जाय.

ती कितें सांगता तें आयकुपाक नयनताराचे कान आशेवन राविल्ले.

नयन, कुड्डे गांव उदकापोंदा गेलो. तो गांव आतां इतिहासजमा जाला. येता त्या वर्सांनी ताचें नांव निशाणूय उरपाचें ना. पूण सरस्वस्ती, मृणालीनी आनी नयनताराचीं नावां जगभराच्या गूगलांत सांपडटलीं आनी कोणतरी केन्नातरी

नक्कीच हाचेर संशोधन करतलो तेन्ना कुड्डे गांवची महीमा ताचे लेखणींतल्यान कागदार देंवतली. तुज्या ह्या यशा खातीर तुजें अभिनंदन करतां. हांव तुजी भयण म्हण सांगपाक म्हाका अभिमान भोगता.
दोगींचेय दोळे तांकां खूब कितें सांगताले. तांच्या दोळ्यांतल्यान थेंब थेंब गळटल्या दुकांक अप्रूप मोल आशिल्लें. आळवा पानाचेर थरथरपी पावसाच्या थेंब्यावरी अळंग झेलपाची तांकां दोगांकूय तितली ताकत आशिल्ली. दोगीय भयणी वेंगेंत विरगळून गेल्ल्यो.
आनी बरोच वेळ जालो निवेदिता परतूंक ना म्हण हुस्को जावन तिच्या पावलांची सुलूस घेत आयिल्ली जाणटेली तटास जावन पळयत उभी आसली.



# पुनर्वैभव

**तळमजलो धरून इमारतीक पाच** मजले. इमारत तशी नवीच. पूण ऑफिसांचे वेव्हार हांगां पणजे पाट्यार इमारतींत सुरू जाल्ल्याक तिनेक वर्सां जातलीं आनी आतां मेरेन एक एक करून भितरल्यो शारांतल्यो चडशो सरकारी कचेऱ्यो हांगां पावल्यो.
कर्मचाऱ्यांची नवीन भरती जाल्ल्या कारणान आतां कचेऱ्यो भरील्ल्या भशेन दिसपाक लागल्यो. वेव्हारय तशे सुरळीत चलपाक लागले. पूण आजून कँटीनाची सारकी सोय जावंक नाशिल्ल्यान कर्मचाऱ्यांच्या खाण्या पिण्याचे मातशे हाल जाताले ती गजाल वेगळी. तरी गंगूबाय तांच्या ताळ्यार च्या चो घोंट घालतालीच. दनपारच्या जेवणा उपरांत च्याची लहर सगल्यांकूच येता. दनपारचीं अडेज जायना बराबर दर एका मजल्याचेर चुळबूळ सुरू जावपाक लागताली. सगळ्यांक च्याची तल्लफ येवपाक आनीक एक कारण आसलें. गंगूबायचे च्याची रूच सगळ्यांचे जिबेर बशिल्ली. च्यांत ती बरें आलें घालताली,

वेलचेची पूड घालताली. हें सगळें सरंजाम ती घरा करून हाडटाली आनी शिजयतना घालताली. भायलो रेडीमेड मसालो न्हय. आनी ताका लागून च्याचो घोंट मारीना फुडें दरेकल्याक प्रसन्न दिसतालें. तरतरी येताली. दोळ्यां वयली झापडी वताली. साखर तर सारकी जाय तितलीच. चड गोड ना, चपकी ना. एक फ्लास्क आसतालो तो डायेबिटीस स्टाफा खातीर, तातूंत बीन साखरेची च्या. दोन ते चार हो वेळ गंगूबायचे धांवपळिचो. तिच्या पावलांक उसरपत नासताली. पांचूय मजल्यांचेर सगळ्यांच्या मेजाम्हऱ्यांत च्या भोंवडायतासर तिका खरस मारताली. पूण उमेदी भरशीं तिका ताचें व्हडलें पडून वचूंक नाशिल्लें. ह्या वेळार तिका कोणें हडकूंकय जायनासलें. दोळ्यां मुखावयलो मनीस लेगीत तिका दिसनासलो. लिफ्टीचो बटण दाबतकच एक सेकंदय लिफ्ट येवपाक कळाव जायत जाल्यार ती आनी रावनासली. सडसडीत मजल्याचीं सोपणां चडपाक वा देंवपाक लागताली आनी खरेंच ती लिफ्टी पयलीं पावताली. सगळ्यांक च्या दिवन जातकच निमाणे कडेन ज्या मजल्याचेर ती उरताली थंय तिगेलें पेणें आसतालें.

थंय अर्दवर ती विसव घेवंक सारताली. गजाली करताली पूण आपूण थोडें उलयताली आनी दुसऱ्यांकडल्यान चड आयकताली. आपल्या संवसाराच्यो गजाली तर न्हयच. केन्ना मनाक मारलें जाल्यार फुगड्यांचीं गीतां मात लय सुरान ल्हव आवाजांत म्हणटाली. त्या गीतांनी आसताल्यो तिगेल्यो आपल्याच जिवितांतल्या घडणुकांच्यो काणयो. आपल्या पुताविशींच्यो वथरेणी चड आसताल्यो. देव देवस्पणां करून नवसा सायांनी जल्मल्लो पूत, बापायच्या मड्याक उजो दिवंक पावलो ना, तो ल्हान आसतानाच बापूय मेलो, पूण आवयच्या मड्याचो आतां भंय ना. अशीं तिचीं तातूंत उतरां आसतालीं.. घोव मेल्ल्याचें एक दुख सोडलें जाल्यार वेगळी कसली व्यथा तिच्या खुमण्यार झळकनासली. आनी तो जगून म्हण कितें करपाचो? सोऱ्याचें बल्ल. कामारसान घरा येनाफुडें पिवपाक बारांत वतालो तो रातीकडेन केद्याय उसरां घरा येतालो. तो येसर ती उपाशी. पिवन पिवन लीवर जालें काबार. लायटिच्या खांब्यारय चडपाची शक्त उरली ना आनी एक दीस कामार आसतना लायटीच्या खांब्यार दुरूस्ती खातीर चडिल्ले कडेन शॉक येवन मेलो.

तिगां काचीबुचीं ल्हान भुरगीं. घोवाले नोकरेचे पयशे मेळना फुडें तिणें एक ल्हानशी सुवात घेवन दवरली. केन्नातरी चार खांबे उबे जायत आनी धाकटुलो घोंटेर उबारून तातूंत ह्या पिलांक घेवन रावपाक मेळत हे आशेन. केन्ना उमेदी आसल्यार धुवेच्यो व्हडविको गाताली. एकली धूव खंयतरी पयस कुडाळाक

लग्न करून घोवागेर गेल्ली तिची याद काड़ीत म्हणटाली, 'साता समिंदरा पेल्यान गेली एकटुली , बाबडी कशी जियेता आसतली. खबर ना बात कोणां दुस्मानान घेवचो न्हय घात.' आनी दुसरी धूव लग्न जावन लागींच रावता. बापूय माजी कर्मचारी आशिल्ल्यान दुसरे धुवेक वीजखात्यांत नोकरी मेळ्ळी. ती केन्नाय म्हणटाली, दैव बी म्हणून कांय नासता. दैवाची कसोटी पळोवपाक रावता तो शेणटा. आपले हात बलवत्तर. तीच ताकत आनी तीच धमक. बाकी सगळें फट. तिणें कश्टाचो वावर केन्ना सोडलो ना. रांदपाक खांपी. तरातराचीं खाणां करून ऑफिसांत घेवन आयल्यार तीं थंयच खपतालीं. नाजाल्यार बस स्टँडाचेर आशिल्ल्या बायलांच्या स्वयंरोजगार शॉपांचेर घालताली. गिरायकां ना अशीं नात. चकल्यो, लाडू, शेव, पापड आनी लोणचें लेगीत. खप खूब जातालो. पूण कश्टय आशिल्ले. दोगीय धुवो शिकून नोकरेक लागल्यो. आनी पुताकय बेश्टो आलमपेड्ड्यार सोडलो ना. ताका आदवोगाद केलो. तो आतां ओर्राद भोंवता म्हण ही धादोसता.

आपूण अडाणी म्हण भुरग्यांनी फाटीं रावचें न्हय ही तिची इत्सा. सामकीच शिकूंक ना अशी न्हय. बरोवंक वाचूंक कळटालें. मोबायल तर तिचे कमराचे पोतयेंत खोयिल्लो आसतालो. पांच मजले आसले तरी खंयच्या मजल्यार पयलीं च्या दिवप, मगीर दुसऱ्या आनी मागीर निमाण्या हातूंतलो नेम बदलत आसतालो. सप्तकांतले पांचूय दीस हो नेम आलटून-पालटून जातालो. दरेका मजल्याचेर च्या कोपां दरवतले कुडींत वणटीचेर एक तख्तो चिकटायिल्लो, ताचेर सोमार ते शुक्रार आनी दरेका वारा फुडें एक ते पांच अशे आंकडे बरयिल्ले. सोमाराक पयलीं च्या पयल्या मजल्यार, मागीर दुसऱ्या, तिसऱ्या. हो क्रम बदलत वतालो. मंगळाराक दुसऱ्या मजल्यार पयलीं आनी मागीर दुसऱ्या, तिसऱ्या. थंयच्या सगळ्यांक आतां ही संवय जाल्ली. कसलो गोंदळ ना वा कसलें आडुप ना. दरेकल्यान आपापल्या मेजामुखार असो तख्तो लावन दवरिल्लो.

केन्नाय तिका रावचें पडटालें तें पयशे दिवपा - घेवपाच्या हिशोबाच्या कामांत. एकेक फावटीं ती बेजारताली. कित्याक तर सट करून पयशे काडून कांय जाण दवरीनाशिल्ले. तिच्या पावलांचो आवाज कानार सादतकच दादल्यांनी आपलीं बोल्सां आनी बायलांचें पर्सी सांसपुवप हें सदांचें जाल्लें. अशा वेळार ती मातशी वाजेवन म्हणटाली 'सडसडीत काडा रे. म्हाका फुडें वचूं नाका?' आनी फुडें गेल्यारय तेंच! 'कशें समजना तुमकां तेंच कळना' ती म्हणटाली. 'फाल्यांच्यान मावशे नक्की आं. तूं येवचे पयलींच पयशे हजर' पूण अशें केन्ना जायच नाशिल्लें.

आतां तिणें सांगपाचेंय सोडून दिलें.
सगळीं तिका मावशीच म्हणटालीं. खंयच्याय दिसा कसल्याय कारणांक लागून ती आयली ना जाल्यार इमारतिच्या पांचूय मजल्यांचेर बोवाळ पडटालो. कोणाली तकली दुकूंक लागताली तर कोणाक झेम येताली. पूण मावशेच्या हातची सोडून दुसऱ्या कोणाल्या हातची च्या पिवपाक भायर वचपाची कोणाली तयारी नासताली.
आशाढ सोपून श्रावण म्हयनो लागनाफुडें पयल्याच सोमाराक एके व्हडले पोतयेंत गंगूबाय पांच किटल्यो भरून मुगां गाटी घेवन आयली आनी पांचूय मजल्यांचेर जेवणाच्या मेजार एकेक किटली दवरून सगळ्यांक जाहीर नोटीस दिली, 'अंदू आमगेली चवथ नव्या घरांत. हांव सामकी बिझी. भायल्या भितरल्या कामांमुखार म्हाका फावचें ना. तेभायर दर वर्साच्यो हावें नेवऱ्यो आनी लाडवांच्यो ऑर्डरी घेतिल्ल्यो आसात. तुमकां च्या करून दिवपाक म्हाका येवपाक मेळचें ना.'
सगळे वग्गी. खिणभर थंडसाण. सगळ्यांनी तोंडां वांकडीं केलीं खरीं पूण तिचें बरें जांव अशें तांकां दिसतालें ताका लागून कोणे कांय म्हणलें ना.
च्या दिवपाक ऑफिसांनी येताली तेन्ना धाकली धूव सीमा आवयक सदांच मेळटाली. च्या दिवन जातकच शेजारचे दुसरे इमारतींत आशिल्ल्या वीजखात्यांत वचून सीमाची आनी तागेल्या भुरग्यांची खबर घेतले बगर ती घरा वचनाशिल्ली. पूण ह्या दिसांनी मेळप जालें ना. फकत दिसाक केन्नातरी एक वेळ फोन करून खबर घेवप जातालें तितलेंच. तेंवूय बी आवयच्या हातांत कसलेंय कामाचें सामान आसलें जाल्यार तीच म्हणटाली, 'सीमू, मागीर करतां गो, पीठ आसा पळय हातांत नेवऱ्याचें. कालोवपाक घेतलां.' आनी मागीर दोगांय विसरून वतालीं.
चवथ आठ दिसांचेर येवन तेंकली पूण सीमाचें आयज फाल्यां करून आवय म्हऱ्यांत येवपाचें उरलें. जाल्यार ऑफिसांत हिचो फोन,
कितें जालें गे, मदींचसो फोन केलो? सीमान विचारलें
करपाचो न्ही?
अशी कितें उलयता गे तूं आज? कितें जालां?
जातकूच रावात येवपाक. ती फणफणतूच उलयली
आयज सांजचें येतां.
ऑफिसांत बाकिच्यां हुजरां बोवाळ नाका म्हण सीमान उलोवणे चड वाडयलें ना आनी तें कामाक लागलें.

सांजवेळा घरांत भितर सरताना आवय खंयतरी वचपाक भायर सरल्या तें ताका कळ्ळें. अपराधि जाल्ल्यावरी ताणें म्हणलें.
हांव आयलां आनी तूं खंय वता?
मागीर कितें आरत दाखोवं? च्या जाय जाल्यार करून घे. म्हाका भायर सरपाक जाय
हांव कितें च्या पिवपाक येवूं ना तुजी. खबरेक आयलां. तेंवूय बी फोन केल्लो म्हणून. नाजाल्यार आनी दोन दिसांनी येवपाचें. इतलें फणफणपाक कितें जालां?
अविनाशान सकाळीं फोन केल्लो, आपूण अंदू चवथिक पावचो ना म्हण. गंगूबायन म्हणलें.
कितें? खंय वता तर तो? सीमान अजापीत जावन विचारलें.
काम आसा म्हणटालो.
चवथीक तर कोर्टाक सुटी. दोगांय आदोगाद. दोगांकय सुटी. मागीर चवथीक घरा येवपाक कितें जालां?
जाण कोण. ताचे कडेन चड उलोवपाची माणसुकी आसा? एक विचारल्यार चार आयकुचीं पडटलीं. तिणें बाबडी जायत म्हणलें.
असोच करून लाडायलो तुवें ताका. लग्न जालो भायले भायर तें बरें आसा. बायल शिकल्या, पयशेंकार तेंवूय बरें आसा. पूण ह्या घराक कितें किडे लागल्यात? चवथीकय ह्या घरांत घेवन येवपाक जायना? कांय लज बी दिसता गे ही आपली आवय म्हूण सांगपाक? सीमाचीय तीडक वाडिल्ली.
आगो तूं कितलें म्हण उलयतलें? तो आपल्या मनाक जाय तसो वागता. वगी रावपांत शाणेपणां न्हय आमच्यासारकेल्या अडाण्यांचें आनी गरीबांचें? तिचें सोंशीकपण उतरांतल्यान जाणवतालें.
तकलेक मारलें ताच्या तें शिक्षण आनी पयसो. कोणाच्या खुस्तार मिरयता? तुज्याच मगे? तुवें शिकोवंक इतलो पयसो खर्चुंक नाशिल्लो जाल्यार जावपाचें? सीमाचो आवाज चडत वतालो.
आसूं गो पोरा आतां. तो आसा थंय सुखान आसूं. म्हजी काळजी करीना जाल्यार जाता. म्हज्यान जाता ते भशेन हांव करतलीं. सामकेंच नजो जाल्यार मागीर पळोवया. तूं कांय म्हाका धांवडावचें ना न्ही? तोंड येदेशें करीत सीमा कडेन पळयत ती उलयली.
अशें कित्याक म्हणटा तूं आई? हांव तुका आत्तां यो म्हणटां. हांगा एकली रावचे परस भुरग्यां मदीं खोशयेन पासार जातली तूं.

आसूं. अविनाश येना जाल्यार जाता. हांव राखन हें घर.
तूंच न्ही गे वथरेताली, पुताक घर बांदून दिवपाक जाय म्हण. आतां बांदलें घर. रावलो तो?
चल. नाकात त्यो गजाली. हांव बाजारांत वचून सामान घेवन येतां कितेंय. सामकें वगतार रावल्यार जावचें ना.
तिणें खाक्यांत दोन पोतयो खोयल्यो आनी ती तुरतुरीत वचपाक लागली. पूण सीमान तिका आडायली.
आगे राव तरी मगे. हांव येतां.
तुका हांव शीणना. जाता ते भाशेन करतां हांव. ती निर्धारान उलयली.
तें जालेंच गे. सोसायटींतल्यान हाडपाचें मगे? रिक्शान या. थोड्या वेळान हांव म्हज्या घोवाक आपयतां सुभाशाक. जांवयाक तुज्या. सामानाच्यो पिशव्यो हाडपाक बरें पडटलें मागीर.
आपलीं हटपणां कुशीक दवरून तिणें मानून घेतलें तेन्ना सीमा च्या करपाक गेलें. मदींच ताका याद जाली तशें ताणें विचारलें,
ए आई, चवथीक गणपती कोण पुजतलो तर?
तिणें फट करून म्हणलें,
तूं आसा तें न्ही? तुज्यान पुजूं नजो?
हांव? सीमान कच्च करून आंग काडलें.
कित्याक? भियेलें शें तूं?
कितें उलयता गे तूं? एके बायलेन पुजूं येता? सामकी विरार जाल्या काय कितें तूं? सीमा आवयचेर तापलें.
कित्याक पुजूं नजो? सामान हाडप, घर-दार, आंगण सगळें झड झूड, लीप करप ह्यो सगळ्यो काडाओडी काडूं येता. जेवण रांदूं येता. फुलांचे हार गुथूं येता. दुर्वा पत्री हाडून ताटांनी मांडून दवरूं येता. वाती तेलान भिजोवं येता. मागीर पुजपांतच कसलें भशटपण आड येता? गंगूबाय कोणाक हार वचपी न्हय. उतराक उतर जुस्त लागतालें.
तरी लेगीत तशी प्रथा ना न्ही गे? सीमा बाबडें जावन विचारतालें.
नाजाल्यार सुरू करूया. नालायक पुरूशार्था परस हे मर्दानी झांसी ची लायकी दाखोवया.
आनी तिणें सीमाचे खांदे गदगदीत हालयले. सीमा आवयच्या तोंडाक पळयत रावलें. दांत किल्लीत तिणे म्हणलें,
चुट्टी लाय ताचे वागणुकेक. तुंवूय म्हज्या रगताचें. ह्या घराचे सगळे हक तुका

आसात. तिच्या आवाजाची पट्टी वाडटाली.
आई, हक वेगळे आनी परंपरेचें पालन करप हातूंत फरक आसा.
सीमा आपले परीन समजायतालें.
तशें जाल्यार हांव पुजतां. जालें समाधान? तिच्या उतरांत खराय आसली.
तूं सगळेंच खुटयाळ्याक हुमकळावपाक सोदता काय कितें गे? बायलांनी असलीं कामां केन्ना करूं ना न्ही गे? आनी तुजे सारके बायलेन म्हणून विचारतां तुका हांव
सीमाच्या उतरांनी तिच्या आवाजाचो पारो चडलो. तिका तीं उतरां बरींच लागलीं. ती फणफणली,
कितें म्हणपाचें आसा तुका?घोव मेल्ल्या बायलांक आदीं देवाच्या कार्यांत वांटो घेवपाक दिनासलीं. तुकाय तशें दिसता जाल्यार यो, घे कातर हातांत, काप म्हजे केंस, कर म्हाका बोडकी, न्हेसय म्हाका तांबडें वस्त्र आनी गंगूबाय भावनांचे सुवादीन जाल्ली.
सीमाक शितिमेंत जालो. आपूण जें कितें उलयलें तें कित्याक उलयलें हाची ताकाच चूक दिसली. ताणें पदराक दोळे पुसून घेतले आनी आवय म्हऱ्यांत वचून तिचे फाटीर मायेन हात भोंवडायत म्हणलें,
चूक जाली म्हजी. म्हाका तेखातीर तशें म्हणपाचें नाशिल्लें.
तिकाय दिसलें, आपणे तशें उलोवपाचें न्ही. पूण ती सतर वितर जाल्ली खरी. आपणाक समजायतच तिणें म्हणलें,
आगो कोणा खंयच्या देवान सांगूंक ना आपली पुजा दादल्यांनीच करपाक जाय म्हूण वा सवायशीण बायलेबगर हेर बायलांनी करूंक जायना म्हूण. हांव करतलीं. तशें जाल्यार सांतेरी देवीक दादले कित्याक हात लायतात तर? आनी म्हाळसा, शांतादुर्गा? तांकां न्हाणयतात आनी न्हेसयतातय पुजारीच. मागीर बायलांकूच कित्याक हीं बंधनां? हांव पुजतलीं. कोणूय कितेंय म्हणू.म्हज्या घरांत पुजता त्या देवाचेर म्हजो अधिकार ना?
सीमा आवयक पळयतच उरलें. ती उलयताली तातूंत चूक कांयच नाशिल्लें. ताका अजाप दिसलें तें हें, तिचे विचार आपले तकलेंत कशे आयले ना? ती आदल्या काळांतली अशें धरलें जाल्यार आपूण आधुनिक आसपाक नाका? पूण तीच तर हें असलें उलयता. ताका आपलीच लज दिसली. तें खूब फावटीं देवळांनी पळयतालें, देवीचे म्हुर्तिचे सगळे सुवाळे दादलेच करतात. आपणे कोणाकय विचारल्यार ते आपणाकूच पिशांत काडटले म्हण तें वगीच रावतालें. पूण आतां आवयनच हें उलोवन दाखयलें म्हणून बरें जालें आनी तें मोन्यानी

आवय फाटल्यान बाजारांत वचपाक गेलें.
अविनाश चवथीक आयलो ना. आपापल्या घरांनी चवथ आसा म्हण दोगीय धुवो आयल्यो ना. खंयच कसलोच तंटो उपरासलो ना. लिपोवपाचें आनी कितें? वाड्यार चार लोकांक तिणें खरी घडिल्ली गजाल सांगली. कोणेंच कांयच म्हणलें ना. वयल्यान तिचे करणेक बरे तरेन सहमतीय दिली. शेजाऱ्या पाजाऱ्यांनी जाय थंय फाव तशी मदत केली. गणपती हाडपाक, मखरांत दवरपाक असल्या गजालींची अडचण तिका मातय जाणवली ना.
पुजारी येवन आपली पुजा करून गेलो. सीमाल्या घोवालें घर गावांत, पयस. ताका येवपाक मेळ्ळें ना. नलीलें तर थंयच कुडाळाक. तिणें दोगींकूय सांगलें, 'कशें निस्तरपाचें तें हांव जुस्त निस्तरावन घेतां. तुमी कसलोच हुस्को करूं नाकात.'
आनी दर वर्सा हें हाड, तें हाड असो येदो मोठो गाजावाजा जाता ते चवथीक अंदू कसलीच गडबड आनी गोंदळ नासतना थंडसायेन जाताली. आरती वेळार तर गंगूबाय तान भूक विसरली. वाड्यावयल्यो बायलो आयल्यो आरतींक. वाड्यार बायलांचीं दोन भजनीमंडळां. तीं फोंड्या, सांवड्ड्या, मडगावां आनी पणजे लेगीत कला मंदिरांनी भजनी सर्तींक वचून स्टेजींचेर वाजोवन इनामां मेळोवपी इतलीं हुशार पूण वाड्यावयल्या घरांनी केन्ना वाजोवन नकळो . पूण अंदू त्या दोनूय मंडळांतल्यो बायलो आनी चलयो मोटे उमेदीन घुमट, शामेळ वाजोवन भजनां म्हणपाक लागल्यो. कितेंतरी अप्रुप घडटा अशें सगळ्यांक दिसतालें. गंगुबायचे चवथिक उमेदीचीं पाखां लागिल्लीं आनी खोशयेचे काजुले लिकलिकताले. भुरगीं तर 'गणपतिबाप्पा मोरया, तूं आनी वचूं नाका' अशीं तरातरांची पदां घडयतालीं.
कॉलेजींत शिकपी शेजारच्या रितेशान म्हणलें, मावशे, अंदुची ही चवथ गिनीज बुक ऑफ रिकोर्ड हातूंत येवपाक जाय आं.
ह्या उतरांचेर तिणें फट करून म्हणलें, त्या बुकांतलीं पानां मरे रिजेव आसतात. पेपरांचेर व्हडले व्हडले फोटू शापून येतात पळे तांचींच नांवां तातूंत येतात. गंगुबायक सगळ्यो गजाली खबर आशिल्ल्यो. पांच मजल्यांचेर सरकारी वेगवेगळ्या कचेऱ्यांनी च्या दिवंक भोंवताना तिच्या कानांर हें सगळें पडटालें. फकत इंग्लीश येस फेस करताना मातशी पंचायत जाताली. रितेशाचो इश्ट नंदन, बी. कॉम. करता. ताणें म्हणलें, सांगूं नज, फाल्यां भारताच्या आर्थीक धोरणाविशींचीं सामकी गांवठी भाशेंत म्हायती विचारल्यार आनी बाजारांतल्या वस्तुंच्या दराचीं चडटे देंवते दरवाडी विशींचीं कारणां आनी तांच्यो दरो

सुदारपाच्या धोरणांविशीं तिचीं मतां विचारल्यार ती जें कितें सांगतली तें विचारांत घेवपासारकेंच आसतलें.
अशे तरेन देड दिसांचो गणपती वाड्यावयल्या लोकांनी आपल्या गणपतीं बरोबर पिकपींत घालून तळयेर व्हरून बुडयलो. गंगूबाय गेली ना. तिका खूब पुरो जाल्लें. तिणें तांकां म्हणलें, म्हज्यान नजो रे आतां. थकल्यां हांव. तुमीच सगळे सोपस्कार करात आनी सांगतां, गणपतिच्या आंगावयलें एक फूल उदकांत पडचें ना हाची जतनाय घेयात. सगळीं फुलां आनी पाकळ्यो आपापल्या पोरसांतल्या झाडांच्या पोंदा उडयात. उदकय नितळ उरतलें आनी झाडांक सारें जातलें.
एक जाणटेलो तिका पळयत रावलो , तर भुरगे मात आपणांक नवें गिन्यान मेळिल्ल्यावरी खोशी जाले.
म्हयनोभर सेगीत भायलीं भितरलीं कामां करून गंगूबाय थकिल्ली.तिच्यान उठपाकय जायना आशिल्लें. सीमा तर आपल्या गांवांक गेलां. तें फाल्यां तरी आयल्यार बरें आसा. चवथी कडेन वापरिल्लें घरांतलें सगळें सामान जाग्यार घालून ती हातरूणार लवंडली. तिचे हात पांय फोडटाले. शिरांनी बरें खोबरेल तेल चोळून वयल्यान खतखतीत उदकाचें न्हाण न्हावन ती न्हिदिल्ली. तेल आनी उदकान तिची दूख निवळटाली. तिका सुस्त न्हीद लागली. अचकीत कोणतरी दारार मारता त्या आवाजान ती खडबडीत जागी जाली. केदो वेळ जालो तें तिका समजलेंच ना.
बेगीबेगीन उठून तिणें दार काडलें जाल्यार एक कोणतरी अनवळखी मनीस दारांत उबो. तिणें वळख घेवपाचो यत्न केलो पूण तिणें यान आदीं ताका केन्ना पळोवं ना. ती काचाबूल जाली.
तिणें म्हणलें, कोण तुमी?
ताणें सांगलें, हांव गोंयचो न्ही. तुमची भास म्हाका सारकी उलोवंक येना. भितर येवं?
गंगुबायक लज जाली. दारांत आयिल्ल्या मनशाक भितर आपोवन बस म्हणपाचेंय धंगण आपल्याक कशें उरलें ना हाका लागून तिका अपराधि जाल्ल्या वरी जालें. ती बेगीबेगीन कुशीक सरली आनी ताका भितर घेतलो.
कांयवेळ दोगांय मोनी. ताच्या हातांत एक जाडजूड फायल आशिल्ली. ती ताणें मेजार दवरली. तो कांयच उलयना तें पळोवन गंगुबायन विचारलें, कितें काम आशिल्लें, म्हजेकडेन? एकेक उतर थरथरत ती उलयली. ताणे मातशें आंग सैलशें केलें आनी म्हणलें, हें पळय. हांव चुकलां काय कितें तें नकळो. पूण

ह्या घराचो मालक अविनाश
पूत तो म्हजो.
आदवोगाद. फाटल्या डिसेंबरांत ताचें लग्न जालां. बायलूय आदवोगाद.
हय ताणीं फ्लॅट घेतला. तीं वेगळीं रावतात.
जाणां हांव. थंयच्यानच आयलां हांव आतां.
पूण म्हजे कडेन कसलें काम? कितें भानगड बी? ती दुबावली.
भानगडूच. पूण तातूंत हांव घुस्पलां. कशें सांगू तें कळना. तो मातसो अनमनलो.
सांग तूं. तिणें म्हणलें
कायद्यान हांव सारकों आसां. हें तुमचें घर अविनाशाच्या नांवार आशिल्लें. एक वर्स जायत येतलें हे गजालीक.ह्या घराचें बांदकाम चलतालें. सामकें निमाण्या टप्प्याचेर पाविल्लें. ताका पयशांची ग रज आशिल्ली आनी हें घर नाका आशिल्लें. ताची बायल हट्ट धरून बशिल्ली.
कसलो? गंगूबायक उमळशीक लागिल्ली आयकुपाची.
हांगचीं शेजारीं आनी ह्या लोकांभितर तिका रावपाचें नाशिल्लें. ती मातशी फ्लॅटांनी रावपी. हांव तांचो क्लाएंट. क्लाएंट म्हणल्यार कळटा न्ही? तो तिगेल्या गिन्यानाचो अदमास घेवन उलयतालो.
हय. गिरायक तिणें फट करून म्हणलें.
हय. हांव एक बिल्डर. म्हणल्यार जागे घेवन फ्लॅट बांदून ते विकपी. शुभविहार हें म्हजे कंपनिचें नांव. ताणें म्हजेकडेन फ्लॅटाखातीर उतर घालें आनी कळंगुटे दर्या देगेच्या वाठारांत म्हजी इमारत तयार जाल्ली. दोनूच फ्लॅट रीकामी आशिल्ले. ताचे बायलेन एक घेवन उडोवपाचो थारायलो. पूण हांचेकडेन तितले पयशे नाशिल्ले. बँकेचें रीण काडलें. चलयेच्या बापायन थोडे दिले. आनीकय उणे पडपाक लागले तेन्ना ताणें सांगलें आपल्या नांवार घर आसा. तो म्हाका एक दीस आपल्या घरा घेवन आयलो. घर म्हाका पसंत पडलें. आठ दिसांभितर सगळ्यो कोर्टाच्यो राटावळी करून जातकच घर म्हजें जालें. आपली आवय आसा ही गजाल ताणें म्हाका सांगली पूण वेगळे तरेन. ताणें सांगलें, ती आपल्या गावांत रावता आनी मागीर आपूण तिका आपल्या म्हऱ्यांत व्हरतलों हेंवूय सांगलें. अशे तरेन हें घर म्हजें जालें आनी कळंगूटचो फ्लॅट ताचो जालो.
ताणें सांगून सोपयलें पूण ताचो ताळो सुकून आयिल्लो. ताणें पिवपाक उदक मागलें. भरील्लो ग्लास ताणें एका दमांत पिवन उडयलो आनी फायल कवळून

घेवन वचपाक उठलो.
गंगूबायच्या दोळ्यांमुखार काळोख आयलो. हें अर्द्यार सांडून वतात? तिणें विचारलें. तो परतून वळ्ळो.
कितें करप तें चिंततालों हांव
चिंतपाक कित्याक जाय? तिणें विचारलें
तो वग्गी
तिच्या प्रश्नांतली जाप तो सोदतालो.
म्हज्या पुताक गरज आशिल्ली. ताणे जाणून बुजून हें सगळें केलां . हांव विरोध करून कितें करूं? म्हज्या दोगीय धुवांक विचारून सांगतां हांव. एक आठ दीस दियात म्हाका.
आठ दीस कित्याक, हांव पंदरा दिसांनी येतां. येतना अविनाशाक घेवन येतां.
आनी गंगूबाय एकदम चवताळ्ळी, खबरदार ताका हाडशा जाल्यार. ताच्या तोंडार नदर घालपाचीय म्हाका वान्सा ना. तुमकां जाय जाल्यार तुमच्यांनी हे घडकेक घराचो ताबो घेवं येता. म्हजें हांव पळयन.
तशें म्हणू नाकात. कोणाक दुखोवन म्हाका ह्या घराचेर हक मेळोवपाचो ना. म्हजीय एक आवय आसा. तिचे खातीर हांव एक ल्हानशें घर सोदतालों. आमचो व्हडलो बंगलो आसा. पूण थंय तिका रावपाचें ना. सामक्या साद्या लोकांमदीं रावपाक सोदता ती. देखून हें घर हावें पसंत केल्लें. हांव पंदरा दिसांनी येतां. अविनाशाक हाडचों ना.पूण तुमकां दुखोवंचो ना. हें म्हजें कार्ड हांगां दवरतां. ताचेर नांव, पत्तो आनी फोन नंबर आसा. केन्नाय फोन करूं येता.
आनी तो गेलो. गंगुबायक कितें जाता तें कळना जालें. ती थंयच कदेलार बसलीं इतलीच तिका याद आसा.
०००००
दोळे उकते केले तेन्ना तिका कळ्ळें आपूण ऑस्पितालांत खाटीर न्हिदल्या. कुशीक एक नर्स आनी मुखार सीमा. तिणें दोळ्यांचे नदरेनूच विचारलें, आपणांक कितें जालां काय म्हणून.
कितें गे आई तूं अशी? आपणांक कितें जाता म्हण फोन तरी कर मगे.
आगो पूण म्हाका जालें कितें आनी हांगा हाडली कोणें?
तूं खंय काल सांजवेळा भायर हॉलांत दोळे वरशे करून पडिल्ली आनी व्हडाव्हडान परवंताली. आवाज आयकून शेजारचो भुरगो रितेश धांवून आयलो. तरी बरें दार उकतेंच आशिल्लें. ताणे भियेवन कोणा कोणाक आपयले आनी रोकडीच तुका ऑस्पितालांत हाडली. प्रेशर तपासल्यार तें इतलें वाडलां, पळय तुका

इतल्यो गुळयो दिल्यात. सीमा बडबडलें.

इतलेंच मुगो? मागीर इतलो बोवाळ कित्याक त्या कामांक? कालच्यान म्हाका मातशें जातालें गो सिनाल. पूण म्हणलें, काम बी केलें न्हीं म्हुण आसतलें. दुसऱ्या दिसा दोतोरान डिसचार्ज दिलो आनी गंगुबाय घरा आयली. इतले म्हणसार कुडाळच्यान नली आयलें. घर भरील्लेभशेन जालें.

राती कडेन जेवल्या उपरांत गंगुबायन दोगीय धुवांक बसोवन घेतल्यो आनी तिणें म्हणलें, तुमकां एक काणी सांगतां.

नली आनी सीमा एकेमेकीक पळयत रावलीं. आतां आनी काणी? हिचें कितें घडलां काय? प्रेशराच्या वखदांनी कितेंय मेंदवाचेर परीणाम जावं ना मू हिच्या?

तुमी इतलीं बुचकळ्यांत कित्याक पडलीं? हांव जी काणी सांगपाक वतां ते काणयेची सुरवात तुमी जाणात. ते काणयेचो शेवट सांगतां. जे सुवातेर आमी आतां बसल्यांत ती सुवात आमची उरूंक ना. हें घर अविनाश नांवाच्या मनशान कोणा दुसऱ्याक विकलां. पयर ह्या घराचो धनी आयिल्लो.

कितें सांगता गे तूं? ताका अशें करपाक मेळचें ना. सीमान निर्धार दाखयत म्हणलें.

कित्याक मेळचें ना? घर ताचें. कागदांचेर नांव ताचें आसा. ताच्यान तें विकपाक जाता. गंगुबायन म्हणलें.

तो मनीस घराचेर ताबो घेवपाक आयिल्लो? नलीन विचारलें.

गंगूबाय भावनावश जाली. तिणें कळवळून म्हणलें, ना गो बाय, सगळे मनीस कितें अविनाश नासतात. बरो मनीस तो. ताका भितरली खरी गजाल खबर ना. अविनाशान ताका आपल्या नांवा वयलीं कागदां दाखयलीं आनी घर ताका विकून पयशे घेतले. त्या पयशांचो ताणें ताचेच कडल्यान फ्लॅट घेतलो. ताणें म्हाका ही सगळी गजाल सांगली.

आतां आमच्यांनी कितें करूं येता? सीमान म्हणलें आनी दोगांय चिंतपाक पडलीं.

कांय ना. हावें ह्या घरांतल्यान भायर सरपाचें. गंगूबाय शांत आसली.

तूं आमगेर येवन राव. सीमान म्हणलें

आई तूं सगळ्याक वितरागल्या आसतली. सरळ आमगेर यो. फाटल्यो यादीच नाकात. नलीन विनवणेच्या सुरांत म्हणलें.

म्हजें कितें करपाचें हें हावें आजून चिंतूंक ना. तें हांव थारायतलीं. तितलो अधिकार हावें दवरला राखून. पूण तुमगेल्या भावालीं कर्तुपां तुमकां सांगून

उडयल्यांत. नली हांगा आयिल्लें आसतानाच एक दीस थारावन ताका आपोवया. ताणे थंय खंयतरी आपल्या फोन नंबराचें कार्ड दवरलां. शुभविहार अशें कितें म्हणटालो तो. ताका फोन करून आपोवन हाडटां आनी मागीर ताची वस्त ताचे सुवादीन करूया. बरो मनीस तो. ताणें म्हाका जाय तितलो तेप राव म्हणलां. ताचेरूय विचार करया.

गंगूबायन ताका फोन केलो.

थारायिल्ल्या दिसा तो आयलो. ताच्या हातांत आतां व्हडली फायल नाशिल्ली. पातळशे फायलींत फकत दोन काय तीन पत्रां आशिल्लीं. ताणें फायल उकती करून सरकारी स्टेंप पेपराचेर टायप केल्लें एक पत्र गंगुबायच्या फुडें धरलें आनी म्हणलें, हें आमचे मदल्या समजिकायेचें करारपत्र. ताका इंग्लीशींत एम. ओ. यू. म्हणटात. घेयात तुमी शिकल्यांत. वाचून पळयात. आनी तिकाय वाचून दाखयात. अर्थ सांगपाची गरज ना. ती तजवीज हावें केल्या. तें तुमचेच भाशेंत आसा. तिका कळपाक जाय.

थोड्या उतरांनी एकूच पानी करार सीमान आवयक वाचून दाखयलो. पत्रांत स्पश्ट बरयिल्लें, जोमेरेन गंगुबाय जिती आसतली तोमेरेन हें घर तिचेंच उरतलें. तिच्या उपरांत हें घर वसंतिबेनचें जातलें. गंगुबायच्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां गळ्ळीं. तिणें हात जोडलें आनी विनवणी केली, हो करार म्हाका मान्य ना. हें घर तुमचें. म्हाका जितीं आसासर ह्याच घरांतली एक कूड दियात. हांव म्हजो सदांचो धंदो करून जगतां. तुमी हांगां रावात. म्हाका कोणाचेर भार जावन रावपाचें ना. तुमचे आवयक घेवन येयात. हरशीं म्हण हांव चाकरी करूनच जगतां. तुमची चाकरी करपाक म्हाका त्रास जावंचे नात. आनी ती भितर गेली.

हांव फाल्यां फोनार उलयतां अशें म्हणून तो गेलो.

०००

गंगुबायच्या घरांत आतां गजबज. तिच्या सांगाताक वासंतीबेन आनी वासंतीबेनाक गंगुबायचो सांगात. वातावरण खेळिमेळीचें. आदल्यो काणयो सांगप, फुगड्यांचीं गीतां म्हणप अशें चलतालें. केन्ना केन्ना वासंतीबेनचो पूत, सून, भुरगीं येतात. तेन्ना गीतांच्यो रिकोर्डी वाजतात. केन्नाय गंगुबायच्यो धुवो , नातरां येतात.

चवथ जावन पंदरा दिसांनी गंगूबाय घरांतल्यान भायर सरली. तिका आतां आपल्या च्याच्या गिरायकांची याद येवपाक लागली. ती बरी न्हेसून भायर सरिल्ली आनी तिच्या हातांत आशिल्ली भरिल्ली एक पोती. दारांतल्यान भायर

सरतानाच रितेशान तिका हटकिली,
मावशे आज नेटान मगे. फोटू मारूया?
आनी ताणे बोल्सांतल्यान  आपलो मोबायल भायर काडलो.
खंय गिनीज बुकांत घालपाक रे? आयक सांगतां तुका.
तो तिचे लागीं गेलो. तिणें म्हणलें, गिनीज बुकांत येवं नाजाल्यार नाका येवं. तुज्या हाताच्या तायटाचेर तो टेबलेट आसा न्ही, तातूंत मात नक्कीच बरोवन दवर, फातरांतल्या देवाच्या मोनेपणा परस जित्या जागत्या मनशाचें मनीसपण श्रेष्ठ.
आनी ती तुरतुरीत चलपाक लागली. दनपारचीं बारा जाल्लीं. तिका पांचूय मजल्यांचेर जेवणाच्या वेळार सगळ्यांक नेवऱ्यो वांटपाच्यो आसल्यो. आनी मागीर तांकां च्या.



## हेमा नायक हांगेलें साहित्य :

| | | |
|---|---|---|
| पसय | कथासंग्रह | १९८२ |
| भायली गोडी | एकांकी संग्रह | १९८४ |
| निर्बळा आनी मुक्ती | दोन नवलिका | १९९२ |
| अस्तुरीमृग | निबंद संग्रह | १९९२ |
| भोगदंड | कादंबरी | १९९७ |
| दुर्गावतार | कथासंग्रह | २००९ |
| अप्रूप ओड | नवलिका | २०१५ |
| नयनतारा | कथासंग्रह | २०१९ |

**संपादन**

| | | |
|---|---|---|
| अप्रूप | प्रातिनिधीक कविता संग्रह | १९८५ |
| सहजीवन, | निबंद संग्रह | १९८९ |

**कोंकणीत अणकारीत**

मीता आनी जादूचे मोचे बाल साहित्य १९९६

ताठ कणो (मराठी) : डॉ. पी. एस. रामाणी २००६

कलि-कथा:वाया बायपास (हिंदी) : अलका सरावगी २००८

हांव असो घडलो (मराठी) : भालचंद्र मुणगेकार २०१२

आमचो बाप आनी आमी (मराठी) : नरेंद्र जाधव २०१२

कितले पाकिस्तान (हिंदी) : कमलेश्वर २०१६

गोंय :एके धुवेची काणी (इंग्लीश) : मारीया आवरोरा कुतो २०१७

यशोधरा (मराठी) : मीरा २०१८

आयक द्रौपदी (मराठी) : मीरा २०१८

**लाबिल्ले पुरस्कार / गौरव**

| | |
|---|---|
| कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय, साहित्य पुरस्कार | १९९३ |
| कला अकादमी, गोंय, राज्य साहित्य पुरस्कार | १९९७ |
| ज्येज्वीत आंतोनियो पेरेरा पुरस्कार, कोकणी कार्य | १९९८ |
| डॉ.टी.एम.ए.पै फावंडेशन उत्कृष्ट साहित्य पुरस्कार | १९९८ |
| शाश्वती पुरस्कार, बोंगळूर, साहित्य पुरस्कार | २००१ |
| यशोदोमिनी पुरस्कार, गोंय | २००२ |
| साहित्य अकादेमी पुरस्कार | २००२ |
| कला आनी संस्कृति संचालनालय, गोंय. रिवॉर्ड | २००७ |
| साहित्य अकादेमी अणकार पुरस्कार | २०१४ |
| जायन्ट्स इंटरनॅशनल, गौरव | २०१६ |
| लोकमत सखी सन्मान गौरव | २०१७ |
| शोभा ज्वेलर्स, गोंय, गौरव | २०१९ |

संघर्शमय जिवीत जगतना श्रमप्रतिष्ठा

आनी **सन्मान**

हांचोय मेळ घालपी बायलपात्रां ह्या झेल्यांत

दिसतात. अर्धशिक्षीत,

**अशिक्षीत बायलोच**

समाजीक, भौतीक विशयांविशीं चवकस

आनी हुशार आसतात. त्यो

**वाद-सवाद** घालतात.

समाजीक विशयांचेर भाश्य करतात.

ही समर्थ जाणीव

**लेखिकेची**

नैतीक भुमिका दाखयता. निवेदन ह्या झेल्यांत

प्रभावीपणान हाडपाचो यत्न लेखिकेन केला.

**धक्कातंत्राचो** वापर लेखिकेन

केल्लो आसा. खास करून कथांचो शेवट

करतना. यादी उस्तुवप हेंवूय तंत्र ह्या

कथांनी दिसता.

**विशयांचें वेगळेपण**

हाडटना लेखिकेन समाजीक, राजकी

परिस्थितिचें वर्णन केलां. बदलपी राजकी,

समाजीक, अर्थीक वेवस्था,

**मुल्यवेवस्था**

हांचे संदर्भ ह्या झेल्यांत येतात

- दो. प्रकाश वजरीकार




INR : 200.00

ISBN : 978-93-84369-02-6